## अपुरबाय चित्र, वळवय निर्मित - 'दिश्टदौलत' (1995)...



कलाकार : राजश्री गावडे
आनी ज्योती कुंकळकार



कलाकार : अशोक कांदोळकार
आनी ज्योती कुंकळकार



कलाकार : सीमा नार्वेकार, ज्योती कुंकळकार आनी हेरंब देसाय.

# पुंडलीक नारायण नायक

## हांगेलीं रंगमाचयेर आयिल्लीं नाटकां

| | | |
|---|---|---|
| 1) | खण खण माती | 1977 |
| 2) | रक्तखेव | 1978 |
| 3) | राखण | 1979 |
| 4) | देमांद | 1980 |
| 5) | मुक्तताय | 1980 |
| 6) | सूर्यसांवट | 1981 |
| 7) | शबै शबै भौजन समाज | 1981 |
| 8) | सुरींग | 1982 |
| 9) | मनशाळी मोनजात (रुपांतरीत) | 1982 |
| 10) | पिंपळ पेटला | 1984 |
| 11) | श्री विचित्राची जात्रा | 1986 |
| 12) | दायज | 1990 |
| 13) | चैतन्याक मठ ना | 1991 |
| 14) | आत्मवंचना | 1992 |
| 15) | परिक्रमा | 1993 |
| 16) | दिश्टदौलत | 1995 |
| 17) | तकली तड्डकी (रुपांतरीत) | 1998 |
| 18) | तिरंगी चक्राचक्री | 1998 |
| 19) | प्रेमजागोर | 1999 |
| 20) | शिरी रे शिरी! अधांतरी! | 1999 |
| 21) | काळजाची काणी | 2000 |
| 22) | प्रेमयुद्ध | 2000 |
| 23) | दिव्या दिव्या दिपत्कार | 2000 |
| 24) | अंता घरा भगवंता | 2001 |
| 25) | कांसुलो | 2002 |
| 26) | धनयां देंवचारा | 2003 |
| 27) | चित्र स्वयंवर | 2003 |
| 28) | सांगोड | 2004 |
| 29) | चतुरंगा | 2005 |
| 30) | कथा अस्तुरी | 2008 |
| 31) | फिंर्गी फटास | 2011 |



* चत्राय : नाटकाच्या मुखावयलें वर्स नाटक रंगमाचयेर आयलां तें वर्स.

# दिशटदौलत

(दोन अंकी)

पुंडलीक नारायण नायक



DISHTADOULAT Konkani Play
by PUNDALIK NARAYAN NAIK



प्रकाशन क्र. : 90

पयली उजवाडावणी : 2012

उजवाडावपी :
हेमा पुंडलीक नायक
अपुरबाय प्रकाशन
वळवय, फोंडें,
गोंय : 403 401

छापपी :
हिरू नारायण नायक
रुतू ऑफसेट,
वळवय, फोंडें,
गोंय : 403 401

अक्षर जुळोवणी :
रिया ग्राफिक्स
ओल्ड-गोवा,
गोंय : 403 402

मुखचित्र :
श्रीधर कामत बांबोळकार

मोल : 100/-

ISBN : 81-86488-90-1

मा. दत्ताराम होनाजी वळवयकार...

म्हज्या कोंकणी नाटकाखातीर
नांदी तुमीच बसयली.

म्हज्या हाताचीं बोटां पळोवन
तुमी म्हणटाले, 'हीं बोटां पेटयेचीं मरे!'
पूण तीं बोटां नाटकाक उपकारा पडलीं!
तातुंतय तुमी धन्य जाले!

तुमचे यादीक !

– पुंडलीक

## दिश्टदौलत तोलतना...

'दिश्टदौलत' हें म्हगलें सोळावें नाटक. 'दीश्ट लागप' हे वदंतेचेर तें आटापलां. गांवगिऱ्या वाठारांत हो अपसमज खूब खोल पातळ्ळा. 'दीश्ट लागप' हो वाक्प्रचार तर जनमानसाच्या उलोवण्यांत तसोच सुशिक्षीत-सुसंस्कृत अशा लेखकांच्या साहित्यांत लेगीत रुढ जाल्लो दिश्टी पडटा. तातूंत चलयेची दीश्ट लागता म्हण पातळिल्ले वदंतेक लागून तिगेलें सगळें आयुश्यूच उध्वस्त जावपाची भिरांत.

नाटकाची कल्पना म्हाका येवजली तेन्ना म्हजे मुखार दोन पर्याय आशिल्ले. एक तर हें नाटक लोकनाट्याचे मुक्त लोकधर्मी शैलीन बरोवप वो सर्वसादारण वास्तव अशा इब्सेनियन तंत्रान बॉक्ससेटचे मांडावळींत. लोकनाट्य शैलीन बरयल्यार म्हाका हुकूमी विनोद निर्मिती खातीर खूब संद आसली. पूण मागीर हांवें विचार केलो 'दीश्ट लागना' हें एक विज्ञानिक सत हांव सांगपाक सोदतां. लोकनाट्य शैलीन सांगल्यार हांव तें गंभीरपणान सांगूंक शकचोना. कारण लोकनाट्यशैली ही कांयशी 'लावड' थारता. तातूंतल्यान सूक्ष्म आनी केन्ना केन्ना अतिसूक्ष्म संवेदना अभिव्यक्त करप खूब कठिण भासता वो अशक्यूच म्हणल्यार जाता. 'दीश्ट लागप' ह्या प्रकाराचीं फकाणां जावप हें म्हाका मान्य नाशिल्लें. देखून हांवें हें नाटक सर्वसादारण बॉक्ससेटाचेर सामाजिक स्वरुपांत निर्माण केलें. आनी मागीर प्रत्यक्ष नाटक रंगमाचयेर पळयतकूच म्हजो निर्णय योग्य म्हणपाचें म्हाका कळून आयलें.

ह्याच नाटकाचे कथेचेर 2003 वर्सा 'अपुरबाय चित्र' संस्थेच्या बॅनराचेर ज्योती कुंकळकार हाणी 'दौलत' नांवाचें व्हिडिओ फिल्म तयार केलें. फिल्माची पटकथा संवाद आनी गितां हांवेंच बरयिल्लीं. तिसऱ्या गोवा राज्य फिल्म महोत्सवांत ताचें प्रदर्शनूय जालें. उपरांत पणजी दूरदर्शनावयल्यान मालिकेच्या रुपान 'दौलत' प्रसारीत जालें. ताची सिडीय भायर सरली. पूण रंगमाचयेर नाटकाचें म्हत्व तशेंच कायम आसा.

**– पुंडलीक नारायण नायक**

'दिश्टदौलत' नाटकाचो पयलो प्रयोग, अपुरबाय चित्र, वळवय हे संस्थेन, गोवा कला अकादमीच्या 20 व्या नाट्यमहोत्सवांत, ता. 7-12-1995 दिसा, सां. 7.00 वरांचेर पणजे कला अकादमीच्या मा. दिनानाथ मंगेशकर रंगमंदिरांत सादर केलो.

## श्रेय नामावळ

| | | |
|---|---|---|
| 1. | देवदत्त | : हेरंब देसाय |
| 2. | देविका | : राजश्री गावडे |
| 3. | नेत्रा | : ज्योती कुंकळकार |
| 4. | बुद्धेश | : अशोक कांदोळकार |
| 5. | नारायण | : सतीश गावस |
| 6. | नर्मदा | : सीमा नार्वेकार |
| 7. | जळवे | : सुरज गावणेकार |
| 8. | खडपैकार | : अभय रायकार |
| 9. | डॉ. सत्ताराम | : विकास नार्वेकार |

| | |
|---|---|
| दिग्दर्शन | : सतीश गावस |
| नेपथ्य | : रघुनाथ धुरी |
| उजवाडा येवजण | : भास्कर अडिवरेकर |
| संगीत | : सज्जन हळर्णकार |
| सूत्रधार | : हेमा नायक |

## पात्रांची वळख

1. देवदत्त – घरकार, नेत्राचो बापूय
2. देविका – देवदत्ताची घरकान्न, नेत्राची आवय
3. नेत्रा – दीश्ट लागता अशी वदंता आशिल्ली, देवदत्त आनी देविका हांगेली धूव
4. नारायण – देवदत्ताचो शेजारी
5. नर्मदा – नारायणाची घरकान्न
6. बुद्धेश – बुदवंत तरनाटो, नेत्राचो घोव
7. जळवे – गांवातलो एक पसरकार
8. खडपैकार – बांदकामां करपी कंत्राटदार
9. डॉ. सत्ताराम – सत्तेची हाव आशिल्लो एक राजकारणी

# अंक : पयलो

(गांवातलें एक घर. घरांत बसपा उठपा पुरतें सामान. भायलो व्हरांडो दिसता. घरांत भितर येवपाचें दार आनी भितर वचपाचें दार दिसता. एकीकडेन फोन दवरला. वेळ सकाळचो. वल्तेरार बसून देवदत्त पेपर वाचता. हो घरांतलो मुखेली. हालींच नोकरींतल्यान निवृत्त जाला. पिराय साठ वरसांचे भितर. धोतर, बानयान असो भेस. मदींच चलयेक नेत्राक उलो मारता)

**देवदत्त** : नेत्रा, ए नेत्रा–

(भितरसान देविका भायर येता. ही देवदत्ताची घरकान्न. पिरायेन पन्नाशेक वरसांची. घरगुती णववारी कापड आनी पोलको असो भेस. कपलाक कुकूम. गळ्यांत मंगळसूत्र. शिवाय आंगार एक दोन मोजकेच अळंकार. धुवेच्या नेत्राच्या पारपोळपणाक ती उबगल्या.)

**देविका** : खंयच्च्या नेत्राक सादयता? तें सकाळच्च्या पारा केन्ना घरा आसता?

**देवदत्त** : खंय गेलें?

**देविका** : भोंवती भागीरथ! तिका वेळकाळ लागता? सकाळीं उठून मागीलदारांत तोंड धुतालें. च्या घेवपाक उलो मार जाल्यार नाच. भायलेभायर पाखां लावन गेलें गांव हेडूंक.

**देवदत्त** : म्हणजे आयजूय लोकांच्यो कागाळी आसात तर!

**देविका** : आसतल्योच. तो पेपर कडेक काडात. आनी एक व्हडलो

कोदेर्न घेवन बसात.

देवदत्त : कित्याक?

देविका : कागाळी बरोवन घेवपाक. रिटायर्ड जाल्याच न्हय? आतां हेंच काम करपाचें.

देवदत्त : तुकां खरें सांगूं देविका? हातूत कांयच अर्थ ना. (पेपर दाखयता.) हें पळय, ह्या पेपराचेर हो एक लेख आयला पळय. तातूंतय अशेंच स्पश्टपणान बरयलां. दीश्ट लागप...

देविका : (मदींच) पूण तें लोक खंय वाचतात?

देवदत्त : तेंवूय खरें. लोक आपणाली तीं भाविश्यां आनी मटक्याचे नंबर वाचतात.

देविका : आयचो दीस बरो गेल्यार पुरो.

देवदत्त : वतलो गे. कितेंय घडलें जाल्यार व्हडलें मनाक लावन घेवपाचें ना.

देविका : म्हणजे?

देवदत्त : म्हणजे कितें, कोणेय म्हळें–तुमचें नेत्रा अशें, तुमचें नेत्रा तशें.

देविका : हांव तेखातीर म्हणना. आयच्या दिसा ताणें येतां म्हणलां न्हय? काल म्हाका सांगलां आनी आयज तुमीच विसरले?

देवदत्त : आगे हय मगे. यादूच उरलीना पळय. नांव लेगीत विसरलों पळय चल्ल्याचें.

देविका : तुमचे यादीक लागलो बरड. एकदां धुवेक उजयात आनी मागीर सगळो संवसार विसरात.

देवदत्त : (याद जावन) आं, आं, बरड. आतां याद जाली.

देविका : हांगा थंय मातशें हात बोट घालात.

देवदत्त : तूं चिंता करूं नाका.

(देविका भायर वता. देवदत्त बसकांची मांडावळ करता.) देविका, कितले लोक येतले तें खबर ना. पूण तयारी मातशी मोटीशी केल्यार बरी, आनी चड कितें केलें म्हण पेड्ड्यार

जावपाचें ना. आमकां शेजारी – पाजारी कितें उणे आसात? (इतल्यान फोन वाजता.) सकाळीफुडें कोणे याद केली आमची? (रिसिवर उखलता.) हॅलो, कोण? ना रे बाबा, हांगा बरड बिरड कोण ना. हें देवदत्तालें घर. हांव देवदत्त उलयतां. आं? आं, आं. बरड उलयता? अं, अं, वळखलों, वळखलों. तुमचीच वाट पळयतां. केन्ना येता? सवकास. कसली घाई गडबड करपाची गरज ना. हय, हय आमी तयार आसात. बरें बरें. (फोन दवरता. देविकेक उलो मारता.) देविका, ऽऽ (देविका भायरसावन येता. मातशी तिडकल्या.)

**देविका** : पळयलें, फाटले दोन दीस हांव तुमकां सांगतां. तुमकां फट दिसतालें न्हय. आतां भायर वचून पळयात. आयजूय कोणेंतरी तें कर्म केलां आमच्या दारामुखार.

**देवदत्त** : (हळशीक ह्या अर्थान) शी!

**देविका** : तसलें कर्म न्हय.

**देवदत्त** : (याद जावन) आं. लोकांचो म्हण गुन्यांव ना. त्यो तीन वाटो ज्युस्त आमच्या घरामुखार जुळटात. तीन वाटांचेर कितेंय दवरपाचे लोक थंय हाडून वडयतात.

**देविका** : काल पयर तरी तीन धावांचेर दवरिल्लें. आयज सामकेंच आमच्या दारामुखार हाडून दवरलां न्हय.

**देवदत्त** : अशें आसा तरी कितें?

**देविका** : आनी कितें? फुटकें नळ्यां कैल.

**देवदत्त** : आनी जिनस कसले?

**देविका** : मीठ, मिरसांगो, केंस, कोयर आनी कोळशे.

**देवदत्त** : कैलांतले इंगळे पेटलेनात दिसता सारखे. नाजाल्यार हें सगळें जळून वचपाचें.

**देविका** : तो कोण दवरपी सांपडिल्लो जाल्यार ताचो हांव लासून गोबोर करतली आसलीं. रातीं काळग्त्रांत कोणेतरी कर्म केलां.

**देवदत्त** : दारामुखावयलें कुशीक तरी वडयलां तें?

देविका : वडयलें दाव्या पायांची खोंट मारून. एक लिंबू दवरिल्लो. तोवूय पांयान खोल्ले केलो.

देवदत्त : बरें केलें.

देविका : दिश्टी काडटात दिश्टी. काडचे काडून आमच्या दारामुखार कित्याक? गावांत आनी लोकांलीं घरां नात? तीन वाटांचेर दवरपाचेंच जाल्यार गांवांत तीन वाटो आसात कितल्यो! दवरात थंय व्हरून. आयज हें इतलें दवरलें. फाल्यां तांतयां, काळे कोंबे, कांसव, चिखलेबी हाडून दवरतले.

देवदत्त : हें हाडून दवरूं.

देविका : दवरूं कितें? तुमकां खावपाक? कोणाची दीश्ट काडून हुंवाळून हाडून दवरतले.

देवदत्त : शी! शी! पूण एक सांग, दीश्ट काडपाक हें सगळें वापरतात?

देविका : म्हाकाय खबर नाशिल्लें. पूण हालीं-हालीं मातशें कळपाक लागलां.

देवदत्त : पूण हांव तुका खरें सांगू? हें सगळें फट आं.

देविका : कितें फट?

देवदत्त : मनशाची दीश्ट लागता ही गजाल फट, आनी नेत्राची दीश्ट लागता ही गजाल सामकी फट.

देविका : आनीक मातशें व्हडल्यान सांगात.

देवदत्त : (व्हडल्यान) आमच्या नेत्राची दीश्ट लागता ही गजाल सामकी फट.

देविका : (तापून) तुमकां कितें अक्कल-बिक्कल आसा काय ना? केद्या व्हडल्यान तुमी कितें उलयतात? आदींच गांवभर फांफूं जालां तातूंत तुमी स्वतः धुवेचे बापूय उलोवपाक लागल्यार आनीक माणुसकी ना. आनी नेत्राच्या तोंडार बी म्हणशात अशें. पोर सामकें साबळें. ताका हातूंतलें कांयच खबर ना.

देवदत्त : आनी कळपाकूय दिवंक फावना.

देविका : तें बरेभाशेन हांगाच्यान गेलें म्हणटकच आमी सुटलीं. मागीर

काडात दिश्टी.

देवदत्त : सारकें. जाणा देविका, ताचो फोन आयिल्लो.

देविका : कोणाचो?

देवदत्त : चल्याचो. बरड ताचें नांव. आदीं सांगलां तेप्रमाण आयज येता खंय.

देविका : जांव, एक हुस्को गेलो.

देवदत्त : पूण आयज चलो पळोवपाक येता हें तुवें नेत्राक सांगलां व्हय?

देविका : ताका आदींच सांग आनी मागीर गांवभर घाल. ताच्या तोंडाचो कितें विश्वास आसा? आमचो शेजार-सांबार पयलीं पाडो. कोणाचें बरें जाल्लें नाका. रोकडें दोळ्यांत भरता. नदरूच पाडी.

देवदत्त : कोणाची?

देविका : आनी कोणाची? शेजाऱ्यां-सांबाऱ्यांची.

देवदत्त : हो नारायणबाब सकाळीं पेपरबी वाचपाक आयलोना.

देविका : तांकां पेपरावयल्यो खबरो कित्याक जाय? गांवावयल्यो पुरो जातात. पेपराच्या निमतान म्हण येवपाचें आनी एक फोन करपाचो.

देवदत्त : हय. करचो करून कोणांक काय म्हणल्यार जावंयाक. सद्दां सद्दां त्योच गजाली. कितें खाल्लें, कितें जेवले? नलू कशें आसा?

देविका : असलो जांवय मेळ्ळ्यार खबरो कोणांक नाका जाल्या? आनी फोन फुकट!

देवदत्त : जांवयाकडल्यान सादयलें खरें!

देविका : कितें तें?

देवदत्त : बद्रिकेश्वराची तीर्थयात्रा सोडयली ना? मागीना बरोबर जांवयान दोन तिकेटी धाडून दितां म्हण सांगल्या.

देविका : मागल्यार कोणूय दिता. आमचो जांवय आसल्यार दिवचो

नासलो काय कितें?

देवदत्त : आतां हातच्या कांकणाक हारसो नाका.

देविका : तुमी आनी एक.
(वावराक लागता. भायर व्हरांड्यांत वचून सुकत घातिल्ले कपडे काडटा. तांची घडी मारता. घडी मारतां मारतां...) हें मात आतां चड जालें आं. पळयात न्हय, हो नेत्राचो घागरो, सकयले देगेचो कुडकोच पिंजून व्हेला. आनी हो पोलको. हाचो एक हातूच कातरून व्हेला.

देवदत्त : सेर्त हुंदरान आसतलो.

देविका : हुंदरान जाल्यार नेत्राच्याच कपड्यांचे कुडके कशे काडले? भायर सरयेर तुमचेय कपडे आशिल्ले, म्हजेय आशिल्ले आनी हुंदीर सरयेर कशे पावतले?

देवदत्त : आयच्या काळांतले हुंदीर ते. तांचो कसलो विश्वास ना.

देविका : हीं असलीं कर्तुबां करपी दोन पांयांचे कोळे हुंदीर. म्हज्या हाताक मेळ्ळ्यार हांव सोडपी न्हय. चांचावन मारपी.

देवदत्त : पूण हांव म्हणटां, चोरपाचो आसल्यार आख्खो नग चोरात. कुडके कित्याक चोरपाक जाय? भिकाड्डे खंयचे कडले!

देविका : भिकाड्डे न्हय, पाडे. दुश्ट बुद्दिचे. बेश्टे चोरिना ते. म्हजे धुवेची दीश्ट लागता म्हण चोरता.

देवदत्त : म्हणजे?

देविका : म्हाकाय पयलीं खबर नाशिल्लें.

देवदत्त : कितें तें?

देविका : दीश्ट लागता पळय, त्या मनशान वापरिल्ल्या कसल्याय कपड्यालत्याचो कुडको काडून ताचो लासून गोबोर करून जर कपलाक लायत जाल्यार दीश्ट वता खंय.

देवदत्त : (गोंदळून) कोणाच्या कपलाक?

देविका : (वाजेवन) मस्ण्याच्या.

देवदत्त : पूण तातूंत कांयच अर्थ ना.

देविका : अर्थ ना अर्थ ना म्हण तुमी हांगासर गायत बसात. लोक आपलें तें करून मेकळे. तोंडानीय उलयतले आनी करण्यांनीच करून दाखयतले.

(कपडे दवरपाक भितर वता. भायरसावन नर्मदा येता. ही शेजान्न देविकेचेच पिरायेची. तशेंच न्हेसण. आंगार एक दोन अळंकार चड. तिणे एका हातांत कितेंतरी धरलां आनी वयल्यान पालव धांपला.)

नर्मदा : ए देविकाव्हनी, आसा व्हय गे?

देवदत्त : आसा, आसा. नासपाक कितें जालां? कितें हाडलां?

नर्मदा : नेत्रा ना न्हय?

देवदत्त : नेत्राक कितें हाडलां?

नर्मदा : (लिपयत) ना, ना.

देवदत्त : आं, तुजो नातू कसो आसा? ताका कितें जातालें तें थारलें?

नर्मदा : जातालें म्हणजे पातळ परसाकडेन. सामके धाळार धाळ. निमित्त कितें काय म्हणल्यार – (तोडून) तुमी बरे आसात न्हय देवदत्तबाब?

देवदत्त : हय. म्हाका तसलें कांय जायना.

(देविका भायर येता) ही आयली तुमची देविकाव्हनी.

(भितर वता.)

नर्मदा : (देविकाक कुशीक व्हरून) देविकाव्हनी, दाखयतां म्हण रागार जावं नाका आं.

देविका : कितें तें?

नर्मदा : तुकां सांगिल्ले फावट खरें दिसना न्हय गे? देखून म्हणलें, व्हरूनच दाखोंवया.

(हातावयलो पालव कुशीक काडून दाखयता. तायटार लाशिल्ले फडकेचो कुडको आसा.)

देविका : (आंग काडीत) आंवय, हें आनी बाये कसलें फित्रीक?

नर्मदा : भियेवं नाका गे. हें मुखयें कोणाभशेन दिसता?

देविका : (शिटकावता) अं, (घोवाक) आयकलां? मातशे भायर येयात. हें पळयात. (आंगार खोमीस घालीत देवदत्त भायर येता.)

देवदत्त : कितें?

देविका : हें मुखयें कोणाभशेन दिसता?

देवदत्त : (पळयत) म्हणजे मनशाभशेन काय जनावराभशेन?

नर्मदा : मनशाभशेन.

देवदत्त : बरोबर मनशाभशेनू. हें नाक पळयल्यार दिसता, दुबावूच ना. (नर्मदाक) नाक तुजेंच. आनी हे दोळे – हय तर! सामके तुज्या घोवाचे. नारायणबाबाचे.

देविका : (नर्मदाक) जालें समादान?

नर्मदा : वा! म्हणजे तुमकां कितें म्हणपाचें आसा? आमच्या नातवाक आमचीच आजो–आज्जेची दीश्ट लागली? ही फडकी नातवाभोंवतणी हुंवाळून इंगळ्यार दवरली जाल्यार हें मुखयें जालें. पळयिल्ल्या दर एकल्यान सांगलां, हें मुखयें नेत्रासारकें दिसता. आगे, काल सकाळच्या आदेसाची खबर. प्रताप सोप्यार बसून जेवतालो.

देवदत्त : हो प्रताप कोण?

नर्मदा : प्रताप आमच्या नातवाचें नांव. विसल्ले? तर प्रताप जेवतालो जाल्यार ज्युस्त त्या वेळार आमचे अंबेची स्वारी तेवटेन पासार जाली.

देवदत्त : ही अंबा कोण?

देविका : आमचें नेत्रा. ताणी लुक्तबायेन दवरिल्लें नांव ते.

नर्मदा : ताणे प्रतापाक पच्च करून म्हणलें–

देविका : कितें म्हणलें तें आनी सांगपाची गरज ना.

नर्मदा : जालें, अंबेची फाट– नेत्रा फाट वळटा थंय आसा.

देवदत्त : सोप्यारूच धाळार धाळ.

नर्मदा : सोप्यार कित्याक? आमकां मागीलदार ना तर?

देवदत्त : ह्या दिसांनी हागवणीची धाम आसा म्हण जाणां मगे? पेपरार

सुद्धा आयलां.

नर्मदा : आसतूय. पूण नेत्रान म्हणलें आनी जालें, हें खरें काय न्हय? (फडकी दाखयत) आनी हें प्रोव आसा न्हय?

देवदत्त : सांबाळून दवर. गरज पडल्यार. कोर्टांतबी दाखोवपाक मेळटलें.

नर्मदा : इतलीं दुश्ट न्हय आं आमी. वयल्यान नेत्राची दीश्ट लागल्या म्हण तुमकां कोणेय कोर्टांत व्हेल्यार आमी गवाय दिवपाक येतलीं. नेत्राची दीश्ट लागना म्हण बासून बासून सांगतलीं.

देविका : वान्सेवेल्यान कळटा.

नर्मदा : तुमकां दुखोवपाचो हेतू नासलो आं, देविकाव्हनी. शेजरा-शेजरा रावतात. एकामेकाक दुखोवन खंय वतलीं?

देविका : नरकांत. तुमी न्हय, आमी.

नर्मदा : तुवें इतलें मनांक लावन घेतलें?

देविका : पयलीं घाय करपाचो आनी मागीर मलम चोळपाचें. भोगूं तें. आपलेंच नाणें खोटें, दुसरें कितें?

देवदत्त : खोटें कित्याक? आमचें नाणें बरें खणखणीत सोळा आणे आसा. घडटा कितें जाणा? कावळो बसपाक आनी खांदी मोडपाक गांठ पडटा.

देविका : येवं दी ताका घराकडेन. दोकोच मोडून घालतां. म्हणजे हांगा थंय भोंवपाक नाका.

नर्मदा : दोश ताच्या दोंक्यांचो न्हय गे.

देविका : मागीर कितें दोळे फोडूं?

नर्मदा : शी बाये, तूं वगीच ताचेर चडफडटा.

देविका : असल्यांक सोयरिको तरी बेगीन येतात?

नर्मदा : ना गे बाये.

देविका : आनी आयल्यो जाल्यार तुमच्या सारकीं शेजाऱ्यां त्यो दवरतात? चड्टी वाल मोडची तश्यो मोडटात.

नर्मदा : देविकाव्हनी, हें नसतें बगलांट आं, वगीच वड्यावयलें तेल

वांयग्यार नाका. ह्या दोंय दोळ्यांचो सोपूत. तुमचे धुवेचें वायट जावचें अशें सपनांत लेगीत येवजूंक ना. आगे, म्हाका म्हजी धूव नलू तशें तुजें नेत्रा. म्हजी धूव बेगीन उजवली, तुजी वाडून उरली. इतलोच फरक. नेत्राक वर्सां कितलीं गे?

**देविका** : नलूपरस अडेज वर्सांनी ल्हान.

**नर्मदा** : आमी हाडटां तुज्या नेत्राक सोयरीक. एक कित्याक, धा हाडुंया. तसो आमच्या नात्यांत कोण वाडिल्लो चलो ना.

**देवदत्त** : वगीच धांवत्या फाटल्यान लागपाची गरज ना. आयची सोयरीक घट जाता जाल्यार पळयात.

**नर्मदा** : म्हणजे आमच्या कानार गेल्लें तें खरें तर?

**देविका** : सांगचीना म्हण आशिल्लीं पूण सांगतां. आयज नेत्राक पळोवपाक येता.

**नर्मदा** : इतली बरी खबर आनी शेजाऱ्यांक लिपोवप? हे खेप नेत्राक सारकें शिटकावन दवरचें आं. हांवूच समजायतां. म्हणटकूच फाटले खेप घडिल्लें तशें नाका.

**देवदत्त** : (मातसो आवाज चडोवन) कितें घडिल्लें फाटले खेप?

**नर्मदा** : (चांचरत) कांय ना, कांय ना. कावळो बसपाक आनी खांदी मोडपाक गांठ पडली.

**देवदत्त** : तशेंय न्हय. तीं मनशांच फटींग.

**नर्मदा** : जांव. हीं तरी खरीं आसल्यार पुरो.

**देविका** : आतां तुमी ताका सोडून हाडात न्हय.

**नर्मदा** : म्हणजे नेत्रा घरांत ना? आवयस म्हजे. हेवटेन चलो पळोवपाक आयलो जाल्यार?

**देवदत्त** : येदो व्हडलो गांव. खंय खंय म्हण हाका सोदूं?
(भायर वचपाक वता. इतल्यान दारांत नेत्रा येता. देवदत्त थारता. नेत्रा पंचवीस - तीस वरसां पिरायेचें. घागरो पोलको असो भेस. नेत्राच्या हातांत नळकुटच्यो आनी एक लिंबू आसा. नेत्रा उमेदी आसा.)

नेत्रा : बाबा, एक मज्जा जाल्या.

देवदत्त : कसली मजा?

नेत्रा : तो व्यंकटू शणै आसा न्हय? तागेली म्हस वियेल्या.

देवदत्त : मागीर मजा कसली?

नेत्रा : म्हशिगेर पाडूक जालां. खरेंच. दोंय दोळ्यांचो सोपूत. काय बरें सुंदर. रेडूक कशें दिसचना. सामकें पाडूक.

देवदत्त : तुवें, काय बरें सुंदर अशें म्हणलें?

नेत्रा : म्हणलें म्हणजे? पाडूक कशें दिसलें म्हणून म्हणलें.

देवदत्त : राव. (भायर वचून पळयता)

नेत्रा : भायर कोणांक पळयता बाबा?

देवदत्त : तुवें खरेंच ताका सुंदर म्हणलें? तुजे फाटोफाट कोणूय कसलो रकाद घेवन आयलो ना काय म्हणटां!

नेत्रा : कसलो रकाद?

देविका : तुज्या बोडाचो. सकाळफुडें खंय गेल्लें गो भोंवपाक? चली मनीस तूं.

नेत्रा : चली मनीस जालें म्हण म्हाका कितें पांय ना तर?

देविका : आनी हें हातांत कितें?

नेत्रा : हो लिंबू. काय बरें सरबत जातलें. बाबा, पेरीक लिंबू जातात रे?

देवदत्त : ना बाय. लिंबू आमड्याक जातात.

नेत्राः : फकाणां नाका रे. हो लिंबू पेरीमुळांत आशिल्लो म्हण विचारलें. आनी ह्यो नंळकुट्यो. बरें नळ्यांचें कैल आशिल्लें. खोंट मारून फोडलें. हांच्यो तळ्यांत बऱ्यो बेबक्यो जातात. (मोखपाचो अभिनय करता) पूण तळ्यांत मोखचे आदीं हांव लगोऱ्यांनी खेळपी. (नेत्रा नळकुट्यो एकार एक दाळटा आनी मागीर लिंबाचो तीर धरून मोखपाक पळयता.)

देविका : (धपकायत) अवचिन्नळ्या पोरा, पयल्यान पयलीं कितें हाडलां तें भायर मोखून मार. त्यो वस्तू कसल्यो तें तुकां खबर आसा?

(नेत्रा हातांतल्या वस्तुंकडेन नेणारपणान चत्रायेन पळयता.)
थुळेता कितें गो? पयलीं भायर वडय.

नेत्राः : वडय म्हणटा जाल्यार वडयतां. (हातांत लिंबू घेवन तीर धरून) हो लिंबू गडगड करून चांदेलकाराल्या दारांत.
(नेत्रा मोखता. नर्मदा चत्रायेन पळयता)

नर्मदा : खऱ्यांनीच सामको दारांत.

नेत्राः : (एक नळकुटी घेवन तीर धरीत) ही नळकुटी वासू कामतीच्या लॉजाच्या पत्र्यार. (मोखता. तेवटेन नळकुटी पत्र्यार पडिल्ल्याचो आवाज आनी फाटोफाट वासू कामतीचो आवाज – कोण रे थंय लॉजार फातर मारता?
(नर्मदाक आनी देवदत्ताक कवतूक दिसता)

नेत्राः : (दुसरी नळकुटी घेवन) ही नळकुटी यशोदाकाकीच्या आंगणांत सुकत घातिल्ल्या पापडांचेर. (मोखता. पयसुल्ल्यान यशोदाचो आवाज – 'कोण पाडा पडिल्लो आंगणांत फातर मोखता? दोळे फुटल्या? पापड सुकत घातल्या ते दिसना?')

नेत्रा : (तिसरी नळकुटी घेवन) ही नळकुटी –

देविका : (रागान) नेत्रा...

नेत्राः : (बेगीबेगीन मोखीत) ही नळकुटी कोणा दयडिऱ्याच्या कपलार.
(मोखता. पयसुल्ल्यान एक किळांच)

देवदत्त : पडली दिसता कोणाचेर. देवा म्हज्या! (कवतुकान) पोराचो तीर मात सारको. अर्जून आनी एकलव्य लेगीत फाटीं. सामकें तिरंदाज.

नर्मदा : दोनूय तीर सारके. नदरेचो आनी हाताचो. ज्युस्त लागता.

नेत्रा : कितें म्हणटा गे नर्मदाकाकी?

नर्मदा : कांय ना. तुका कोणाची दीश्ट लागत म्हण भिरांत.

नेत्रा : दीश्ट लागली जाल्यार काडपाक आसाच तूं.

नर्मदा : हांव?

नेत्रा : हय. तुवें तुज्या नातवाची दीश्ट काडूंना फडकी जाळून?

नर्मदा : तुका कोणे सांगलें?

नेत्रा : तुज्या नातवान – प्रतापान.

नर्मदा : आनीक कितें सांगलें?

नेत्रा : आनीक कांय ना.

(नर्मदाक सू जाता.)

देविका : (तापयत) नेत्रा, अशें मुखार यो.

नेत्रा : कितें?

देविका : काल तो प्रताप थंय सोप्यार बसून जेवतालो जाल्यार ज्युस्त त्या वेळार तूं थंय कशें पावलें?

नेत्रा : हांव तेवटेन वतालें जाल्यार हो ज्युस्त त्या वेळार सोप्यार बसून कित्याक जेवतालो?

देविका : तो आपल्या सोप्यार जेवूं ना जाल्यार–तुकां कित्याक पडलां?

नेत्रा : आनी हांव तेंवटेंतल्यान येवूं ना जाल्यार वचूं. कोणांक कित्याक पडलां?

देविका : बरें, गेलें तें गेलें, ताका हडकिलो कित्याक?

नेत्रा : कित्याक म्हणजे? जेवता म्हण हडकिलो. आनी सादेपणी जेविना आशिल्लो तो. बरी उजव्या हातांत उंडी आनी दाव्या हातांत सुको बांगडो धरून रूची काडून जेवतालो. येदोसो गांजुड्डो, पूण जेवपाची ऐट सामकी मानायाभशेन. म्हणटकूच म्हणचें पडलेंना? काय बलो जेवता ले पलताप!

देविका : हांव म्हणटां – ह्यो सगळ्यो गांवा वयल्यो राटावळी तुकां कित्याक? कोण जेवता, कोण ओंकता, म्हशीगेर पाडूक जालां. गाडवागेर घोडो जाला. जायना कोणागेर कितेंय. तुकां कित्याक उलोवपाक जाय?

नेत्रा : तोंड आसा म्हण उलयतां. आनी बरें दिसल्यार बरें म्हणपाक कितें पैशे पडटात गे?

देविका : आगो, पूण सगळ्यांक मानवना तें.

नेत्रा : कोण सांगता मानवना म्हण? आपली तोखणाय कोणांक नाका जाल्या? आतां ही नर्मदाकाकी. सद्दां आपली टापटीप. न्हेसण-बिसण ज्युस्ताज्यूस्त. खंय एक चुरी ना. मुखामळ बोलकें. नाक-दोळे जागच्या जाग्यार आनी कपल काय बरें. आनी कपलावयलो हो कुकूम कितलो सुंदर दिसता!

नर्मदा : (घुंवळ येवपाकडेन पावता) पुरो, पुरो कर सायबिणी, देवा म्हज्या, म्हज्या कपलाच्या तिब्याक राख रे. (इतल्यान दारांत व्हडल्यान हुयेल आयकूंक येता - 'मेलों रे...' हो आवाज नारायणाचो. सगळीं धांवत दाराकडेन वतात. नारायण कुटत कुटत भितर सरता. देवदत्ताचे पिरायेचो. पेंट खोमीस असो भेस. हातांत दुदी आसा.)

नर्मदा : आगे म्हजे बाये. तुमी? कितें जालें?

नारायण : बऱ्यान सुटलों. सोपणाचेर कपाळमोक्ष जावपाचो. (नर्मदाक) तुजो कुकूम वचपाचो.

देवदत्त : आरे, पूण नारायण कितें जालें? पडलो कसो रे तूं?

नारायण : आरे, हो दुदी घेवन भितर सरतालों. एक कान भायर एक भितर - ना, ना. एक पांय भायर एक पांय भितर अशें कितेंशें जालें आनी शेवटलों. दुदी सांबाळ्ळो. हांव धाडावलों.

देवदत्त : ही अशी केन्नाय बोलाफुलाक गांठ पडटा. म्हणजे कावळो बसलो आनी खांदी मोडली.

नारायण : देवदत्त, हांव जाणांच आसलों तूं अशें म्हणटलो म्हण पूण म्हाका एक सांग - सदांच कावळो बसनाफुडें जर खांदयो मोडपाक लागल्यो जाल्यार तूं खांदयांक दोश दितलो काय कावळ्यांक?

नेत्रा : नारायणकाका, खंयचो कावळो रे?

नारायण : (काचाबूल जावन) आगो नेत्रा, तूं पावलें घराकडेन? आतां म्हणलें, तुजे अस्वडीं येवन-

नेत्रा : म्हजे अस्वडीं?

नारायण : (विशय बदलीत) ना, ना. सहज गो. ह्यो तिकेटी दाखोवपाक आयिल्लों देवदत्ताक. (बोल्सांतल्यान तिकेटी काडून देवदत्ताक दाखयता. तो चत्रायेन पळयता आनी मागीर केन्नातरी परत नारायणाकडेन दिता.) आमी दोगांय बद्रिकेश्वराक तीर्थयात्रेक वतात न्ही गो फुडल्या म्हयन्यांत?

नेत्रा : परत येतलीं न्हय?

नर्मदा : थू मेकाल! परत ना येवपाक कितें जालां तर?

नेत्रा : पयलीं तीर्थयात्रेक गेल्लीं परत येना आशिल्लीं न्ही गे, म्हणून म्हणलें. तीं श्रावणबाळाचीं आवय बापूय बरीं कावडेंत बसून तीर्थयात्रेक वचूं नाशिल्लीं? तीं परत खंय आयल्यांत? दशरथ राजान तांकां वाटेरूच (धोणवाचेर बाण ताणून सोडिल्लेभशेन अभिनय करीत) सूं... झूं... केलें.

नारायण : आगो तूं खंयची काणी सांगता? दशरथान उदक पिवपी जनावर समजून श्रावणबाळाक बाण मारून मारलो. तागेले आवय बापायक न्ही.

नेत्रा : पूण मागीर तिंवूय दोगांय मेलीं काय ना?

नारायण : तें खरें. पुताची हत्या जाल्ली पळोवन प्राण सोडले ताणी.

नेत्रा : तुमी तशें कांय करूं नाकात. कावडेंत बसून आसा तश्शीं परत येयात.

नारायण : कावडेंत न्हय बाये. बशींत. स्पेशल बस ती. आमचेबरोबर आनीकूय लोक आसतले.

नर्मदा : देविकाव्हनी, तुमकांय दोन तिकेटी मेळ्ळ्यार बरें जातलें आसलें न्हय गे?

देविका : आमकां कित्याक जाय तें बद्रिकेश्वर? आमचें काशी रामेश्वर हांगासरच.

नर्मदा : आमचें म्हण कितें? नलूच्या घोवान तिकेटी धाडल्यो म्हणून. नातर कोणाच्या नशिबांत आसली असली पंचवीस दिसांची तीर्थयात्रा?

**नेत्रा** : तुमी अशीं नशिबाचेर पातयेवन कित्याक रावतात तेंच म्हाका कळना. कितें मेळोवपाचें आसल्यार आपलें आपणे मेळोवचें. मेळ्ळें जाल्यार आपलें म्हणचें, मेळ्ळेंना जाल्यार आपणांक तें फावनासलें अशें म्हणचें. (नारायणाक) कितें नारायणकाका?

**नारायण** : (लक्ष ना) आं?

**नेत्रा** : (दुदयाचेर लक्ष वता) हो दुदी कोणांक?

**नारायण** : तुवें वडयला न्हय गो. म्हणटकच तुमकांच.

**नेत्रा** : खरेंच, आमकांच? आई, हाची बरी शाक कर. म्हाका खूब आवडटा.

**नारायण** : खा, पोटभर खा.

**नेत्रा** : पूण नारायणकाका, हांवें दुदी वडयला म्हणजे?

**देविका** : तूं गेल्लें तेवटेन?

**नेत्रा** : खंयचेवटेन?

**देविका** : तांगेल्या घरावटेन?

**नेत्रा** : खंयूय वतलें जाल्यार तेवटेंतल्यानूच वचचें पडटा न्हय गे?

**देवदत्त** : तूं तेवटेंतल्यान गेलें तेन्ना हो दुदी कितें करतालो?

**नेत्रा** : घराच्या पाडसार बशिल्लो.

**देवदत्त** : हेवटेन काय तेवटेन?

**नारायण** : आरे हेवटेन तेवटेन जावपाक तो पाडसावयलो कुवाळो न्हय. दुदी. दुदी पाडसार आशिल्लो.

**देवदत्त** : हय रे. पूण तो कितें आजूच थंय बसूंक नाशिल्लो. फळ धरत पासून तो आसा मरे? मागीर आजूच कसो पडलो?

**नेत्रा** : हावें तो आजूच पळयला.

**नर्मदा** : दुदी पळयना बरोबर तुवें कितेंतरी म्हणलें मगो?

**देविका** : म्हणपाक तुजेबरोबर कोण आशिल्ली तर?

**नेत्रा** : कोण नागे. फकत हांव एकलेंच. हांव आनी दुदी.

**देवदत्त** : मागीर कितें म्हणपाचो प्रश्नूच येना.

नेत्रा : पूण हावें मनांतल्या मनांत मात म्हणलें–

देवदत्त : कितें म्हणलें?

नेत्रा : बरो बसला पाडसार दुदीरमणा!

नर्मदा : जालें! आनीक कितें जाय?

नारायण : (देवदत्ताक कुशीक काडून) आरे, नेत्राची फाट वळटा थंय आसा, पाडसावयलो दुदी नळ्यांवयल्यान गडगडून सकयल. आवाज आयकून भायर आयलों. जाल्यार पावळेकडेन येवन थारला. काडचो पडलो ना?

नर्मदा : (त्रोस मारीत) देवदत्तबाब, दुदी गळपाची धाम बी ना मू?

नारायण : ना कित्याक, आतऱ्या पयऱ्यान अशें कितेंय घडपाक लागलें जाल्यार धाम आसाच अशें म्हणचें पडलें ना?

देविका : ह्या पोराचेर आयल्या फटकळपणाची धाम. वता थंय पच्च करून उलयतलें.

नेत्रा : पळयिल्ले खेप म्हज्या उलोवपाचेरूच तुमी कसता कित्याक गे? संवसारांत हांव एकलेंच उलयतां? म्हजें उलोवप तुमकां खपना जाल्यार आयच्यान तोंडाक लायतां कलयाद. (तोंडाक कलयाद लावन तोंड बंद केल्ल्याचो अभिनय करता.)

देविका : आयच्या दिसा तरी तशें कर.

नेत्रा : (शारीरीक अभिनय – म्हणजे?)

नर्मदा : म्हणजे आयज तुकां पळोवपाक येता. (नारायणाक) हावें सकाळीं दुबाव दाखोवं नाशिल्लो?

नेत्रा : खरेंच ? कोण?

देविका : आनीक कोण? फाटले खेप कोण आयिल्लो?

नेत्रा : तोच परत येतलो?

देविका : तोच परत कित्याक येतलो? हे फावट दुसरो.

नर्मदा : हो पळोवपाचे कार्यक्रम म्हण्जे एक स्वयंवरूच गे बाये. त्या मानान आमचें नलू बरें सुटलें. व्हाळार कपडे उमळटालें.

न्हवऱ्यान भायलेभायर थंयच्यान उबारून व्हेलें.

**नेत्रा** : आवयस. उबारून व्हेलें?

**नर्मदा** : उबारून व्हेले म्हणजे थंयचे थंय पसंत. पळोवपा-सवरपाचो, च्या पाण्याचो प्रश्नूच आयलो ना.

**देविका** : तो विचारता त्या प्रश्नांक सारक्यो बऱ्यो मुदयेर थीक कश्यो जापो दी.

**नेत्रा** : पूण होवूय जर म्हाका तोच प्रश्न विचारीत-

**देविका** : कसलो प्रश्न?

**नेत्रा** : तुका शिवणसूत येता? जाल्यार हांव ताका विचारपी-तुजे सगळे कपडे पिंजल्यात?

**देविका** : आनी समज ताणे म्हणलें, हय पिंजल्या, जाल्यार?

**नेत्रा** : जाल्यार कितें? असल्या पिंजकाऱ्याकडेन हांव लग्न जावं? मागीर आयुश्यभर शिंवतां. खोमीस पिंजलें, शिंवलें. पेंट पिंजली, शिंवली. चेड्डी पिंजली, शिंवली. संवसार पिंजलो, शिंवलो. तेपरस हांव म्हज्या पसंतिच्या दुदल्याकडेन लग्न जायन.

**सगळीं** : दुदलो?

**नेत्रा** : (उमाणे घालीत) गोरो गोरो गोमटो! आंगापांगान मोटो! पोकळ पोकळ भोटो! (सगळ्यांक विचारता) सांगात कोण? वग्गी बसून तो तुमकां सगळ्यांक पळयता.

(सगळींजाणां अजापान हेवटेन तेवटेन पळयतात.)

**नेत्रा** : दुदीरमणा! त्या कोणा पिंजकाऱ्याकडेन लग्न जांवचेपरस हांव ह्या दुदीरमणाकडेन लग्न जायन.

(दुदी उबारता आनी भितर वता.)

**देविका** : (नर्मदाक) नर्मदाबाय, मातशी भितर यो. कितें करपाचें तें पळय.

(देविका आनी नर्मदा भितर वतात.)

**नारायण** : (देवदत्ताक) कितल्यांक पावतलो?

**देवदत्त** : अमूकच वेळ असो सांगूंक ना. सकाळच्या आदेसाक केन्नाय अशें म्हणिल्लें.

**नारायण** : ह्या नवऱ्यांचें म्हणून हालीं चडूच जाला. वेळाकाळाचें धंगण ना. च्यायेक आपयल्यार जेवणांक पावतले.

**देवदत्त** : वरपक्ष न्हय. आनी जेवणांक आयल्यार हुस्को ना. तुवें दुदी हाडलाच न्हय.

**नारायण** : चल्याची आस्पत बी?

**देवदत्त** : आतां कसो येता ताचेवयल्यान कळटलें.

**नारायण** : नातें गोतें बी?

**देवदत्त** : आतां बरोबर कोण कोण येतात तें पळोवया.

**नारायण** : चलो बरो आसा?

**देवदत्त** : हांवें म्हज्या दोळ्यांनी आजून पळोवंक ना. अशेंच भायलेभायर थारलां. चडशें काम ताणेच केलां – फोनान.

**नारायण** : सगळें कशें पिक्चरांतलेभाशेन सस्पेन्स कशें न्हय?

**देवदत्त** : आमचेखातीर तेंच बरें. हांव अशी एक पासय मारून येतां. वाट बी चुकपाक नाका. (भायर वता. भितरसावन नर्मदा भायर येता)

**नर्मदा** : ह्या पोराच्या तोंडाचो कांय विश्वास ना. तुमी फोनबी केलो?

**नारायण** : कोणाक?

**नर्मदा** : आनी कोणाक? नलूच्या घोवाक.

**नारायण** : कित्याक म्हणून?

**नर्मदा** : तिकेटी पावल्यो म्हणून सांगात न्हय.

**नारायण** : तें कालच सांगलें न्हय?

**नर्मदा** : परत एक फावट सांगपाक कितें जाला? फोन आयतो आसा म्हणून.

**नारायण** : शे! मागीर पळोवया.

**नर्मदा** : आनीक कितें खबर आसा?

**नारायण** : ना. खंयच्याय वेळार येवपाक शकता. अमूकच असो वेळ

ना.

नर्मदा : तें म्हणना हांव. व्यंकटू शणैगेर सावन कितें रकाद आसा काय म्हण.

नारायण : कसलो रकाद?

नर्मदा : आं, तुमकां खबर ना न्हय. व्यंकटू शणैली म्हस वियेल्या.

नारायण : तें जाणां हांव.

नर्मदा : तर नेत्रा म्हशीक आनी रेडकाक काय पाडकाक पळोवन आयलां. वेवस्थीत उलोवन बी आयलां. आतां फक्त रकाद येवपाचो उरला.

नारायण : कळपाक मार्ग ना.

नर्मदा : आवय बापायक सामको धुवेचो भरवंसो. सामको निर्वाळो दिवन उलयता. सांगिल्ली गजाल फट.

नारायण : सांगलां तें विसरशी.

नर्मदा : विसरतां खंयची! केलें काम. (तुवाल्याचो कुडको दाखोवन) तें वापरता त्या तुवाल्याचो ल्हवूच पिंजून कुडको काडलो. आतां हाचो लासून गोबोर करतां आनी प्रतापाच्या कपलाक लायतां. मागीर जालें.

नारायण : येदो व्हडलो कित्याक तोडलो?

नर्मदा : बोवाळान न्हय.

(देवदत्त भायरसून उलयत येता. नर्मदा बेगीबेगीन तुवाल्याचो कुडको लिपयता.)

देवदत्त : नारायणबाब, तुका खऱ्यांनीच सांगता, हातूंत कसलेंच तथ्य ना. सगळी बोला फुलाक गांठ.

नारायण : कितें जालें?

देवदत्त : न्हय, व्यंकटू शणैली खबर सांगतालों.

नारायण : म्हशिची.

देवदत्त : हय. म्हस वियेल्ली न्हय. तर तिगेर जें पळय कितें जाल्लें तें मेलें खंय.

नारायण : कितें जाल्लें म्हणजे, रेडूक.

देवदत्त : न्हय, पाडूकच जाल्लें आसूंक जाय. रेडूक जाल्यार जगपाचें. म्हशीगेर जाल्लें पाडूक कशें जगतलें?

नर्मदा : जांव. मेलें मू? एक हुस्को गेलो. देवदत्तबाब, म्हाका हे चलयेचीं लक्षणां धड लागना. तुमी तरी ताका समजायता न्हय? (नर्मदा देवदत्ताक भितर घेवन वता. नारायण एकलोच उरता. कांय वेळान भायरसून एकलो तरनाटो येता. हो बुद्धेश बरड. तिशेक वर्सांची पिराय. पेंट शर्ट असो भेस. कपलाक कोंक जाल्या. बँडेज केलां)

बुद्धेश : (नारायणाक) नर्मदा नारायणालें घर खंयचें?

नारायण : (राग आयला) नर्मदा नारायण?

बुद्धेश : हय. वाटेर कोणेतरी सांगलें, पयलीं लागता तें घर नर्मदा नारायणालें. दुसरें –

नारायण : हांव नर्मदा नारायण. म्हणजे म्हजें नांव नारायण.

बुद्धेश : मागीर हो नर्मदा कोण?

नारायण : हो न्हय. ही. नर्मदा म्हजे घरकान्नीचें नांव. भायर कुचित्रीपणान आमकां नर्मदानारायण म्हणटात आसूंक जाय.

बुद्धेश : म्हणटकूच तुमचें घर हें. (वळटा)

नारायण : नांव विचारीत आयल्यात आनी चल्ले?

बुद्धेश : म्हणजे म्हाका तुमचें घर नाका. तुमचें घर सोडून दुसरें.

नारायण : हें पळयात, हांव नारायण पूण हें म्हजें घर न्हय.

बुद्धेश : सॉरी, हांव चुकलों.

नारायण : तुमी कोणागेर वतात?

बुद्धेश : (याद करून) दत्तदेवागेर.

नारायण : हेंवूय नांव वाटेर लोकांनी सांगलें?

बुद्धेश : ना. म्हाका खबर आशिल्लें.

नारायण : मातशें घुस्पलां. दत्तदेव न्हय, देवदत्त. दत्तदेवालें घर थंय, पयस. हय. दत्तात्रयाचें देवूळ थंय आसा.

बुद्धेश : म्हाका देवदत्तागेरूच वचपाचें आसा.

नारायण : पावले.

बुद्धेश : म्हणजे?

नारायण : म्हणजे तुमी देवदत्तागेरूच आसात.

बुद्धेश : व्हदळसावन घुस्पत आसा.

नारायण : जावं, आतां घुस्पागोंदळ सोपलो. खूब कळाव केलो. आमी केन्नासावन तुमची वाट पळयतात. तुमी चलयेक पळोवपाक आयल्यात न्हय?

बुद्धेश : म्हणजे तुमकां खबर आसा?

नारायण : शेजारी न्हय, असल्या प्रसंगार आमी एकामेकांक पावतात.

बुद्धेश : पावपाकूच जाय.

नारायण : सगळी तयारी जाल्या. आमी दोगांय घोव बायलां हांगाच आसा. भितर चलयेक मातशी शिंटकावणी दितात.

बुद्धेश : कसली शिटकावणी?

नारायण : (सावध जावन) मुखावयली. लग्न जातकूच संवसार कसो करपाचो, घोवाचे मुठींत कशें रावपाचें. (ताच्या कपलाचेर नदर वता) तुमच्या कपलाक कितें? खंय वणटीक आदळ्ळे काय कितें?

बुद्धेश : ना.

नारायण : क्रिकेट खेळटाले?

बुद्धेश : ना. फातर बसलो.

नारायण : फातरांनी खेळटाले?

बुद्धेश : न्हय. आतांच म्हणल्यार कांय वेळाआदीं हेवटेंतल्यान येतालों जाल्यार एक फातर येवन ज्युस्त कपलार बसलो. फातर म्हणल्यार नळकुटी.

नारायण : शी बाबा. म्हणजे आमच्या गावांत आयिल्लेकडेन फातर बसलो.

बुद्धेश : भुरग्यांक बी फातरावपाची संवंय आसता न्हय!

नारायण : हय. पूण झाडां पेडां फातरावचीं, मनशांक न्हय. तरी बरे साल्वार तुमी. दोळ्यार बसलो ना.

बुद्धेश : नशीब म्हणपाक जाय.

नारायण : तुमचेकडेन बँडेज बी आशिल्लें म्हणून बरें. रोकडें लायलें.

बुद्धेश : म्हजेकडेन नाशिल्लें. थंयच कोणाकडेन गावांत दोतोरबी आसा काय म्हण वासपूस केली. दोतोर आसा म्हणपाचें कळ्ळें पूण तो डिस्पेंसरींत नाशिल्लो. व्यंकटू शणै म्हणटा तांगेर गेल्लो. तसोच थंय गेलों. मेळ्ळो. ताणे हें बँडेज केलें.

नारायण : आरे देवा, तो दोतोर मनशांचो न्हय. गोरवांचो.

बुद्धेश : पूण हें इतलें ताचेकडेन आशिल्लें. इतलें करता सवरता म्हणसर उशीर जालो. नाजाल्यार व्हदळ पावपाचों.

नारायण : शी बाबा. कसलो सांवार आयला गांवच्या पोरांचेर. (उलो मारून) देवदत्त, देविकाबाय, आगे भायर तरी येयात. पळयात हांगा कितें घडलां तें.
(बोवाळ आयकून देवदत्त, देविका आनी नर्मदा भायर येतात) आरे, हो चलो आयला पळय. हो हेवटेन येतालो जाल्यार कोणा अवचिन्नाळ्या पोरान ताचेर फातर मारून –

बुद्धेश : नळकुटी.

नारायण : हाचेर नळकुटी मोखून हाची तकली फोडली मरे.
(देवदत्त, देविका आनी नर्मदाक धक्को बसता. तिगांय दुबावता. एकामेकाच्या कानांत कितेंतरी फुतफुततात.) आरे, अशीं पळयतात कितें? ताची बाबड्याची खबर घेयात मरे. तरी बरें फातर पडूनय तो आयलो. आनीक कोणूय जाल्यार भायले भायर वचपाचो. सपन पडूं नाका रे असल्या पोरांचें.
(नर्मदा नारायणा म्हऱ्यान वचून ल्हवू कितें तरी कानांत सांगता. नारायण सावध जाता. सगळीं बुद्धेशाची खबर घेतात.) जावं, आतां जालें तें जालें. जाणें कोंक केल्या ताकाच पेखोवपाक लावंया.

बुद्धेश : म्हणजे?

नारायण : सांपडटलो फातर मारपी आयज ना फाल्यां.

बुद्धेश : नाका. म्हाका ही गजाल आनीक वाडिल्ली नाका.

देवदत्त : वा. बरेच समजिकायेचे दिसतात तुमी.

बुद्धेश : (आपलीच वळख घडयता) हांव बुद्देश. बुद्धेश बरड.

देवदत्त : हांव देवदत्त, ही म्हजी घरकान्न देविका, हे आमचे शेजारी नारायणबाब, ही तांगेली घरकान्न–

बुद्धेश : नर्मदाव्हनी.

नर्मदा : (खोशयेन) म्हाका वळखता? (नारायण तिका, तुकां मागीर सांगतां म्हण खुणायता.)

देवदत्त : कसो जालो प्रवास? कशे आयल्यात?

बुद्धेश : तसो गाडी घेवन आयलां. मुखार रस्तो अशीर दिसलो म्हण गाडी थंयच दवरली.

नर्मदा : आनीक कोण आयलींना दिसता?

बुद्धेश : ना. हांव एकलोंच. तशीं म्हाका लागशिल्लीं–पयसुल्लीं सोयरीं– धायरीं खूब आसात. भाव आसात, भयणी आसात.

आपयल्यार सगळीं येवपाचीं, पूण फाटफुडो चिंतून हांव एकलोच आयलों. सोयरिकेचे बाबतींत एकदां दुसऱ्यांक भितर रिगयलीं म्हणजे लग्न जायमेरेन तांकां कडेक काडप खूब कुस्तार जाता.

नारायण : बरोबर. सामकें बरोबर. कितें देवदत्त?

देवदत्त : हय. हय.

बुद्धेश : चली खंय?

नारायण : येतलें. तुमी पळोवपीच जायात. कितें देवदत्त?

देवदत्त : हय. हय.

(नर्मदा आनी देविका भितर वतात. तिगूयजाण नेत्रा भायर येवपाची वाट पळयतात.) ही वाट पळोवपांत म्हण एक मजा

आसता. कितें देवदत्त?

देवदत्त : (आडेचें) हय. हय.

बुद्धेश : कसली मजा?

नारायण : चलयेक पळोवपाची उमळशीक. अर्थात सभावीक म्हणा. पूण एकदां खरेंच मजा जाली. म्हणजे चलो भायर बसून रावलो चलयेची वाट पळयत आनी चलयेचो पत्तोच ना. न्हय देवदत्त?

देवदत्त : (आडखळून) आं? हय. हय.

बुद्धेश : पत्तोच ना म्हणजे?

नारायण : म्हणजे चली मागीलदाराच्यान पसार. ह्यावूय घराक मागीलदार आसा.

(चलो काचाबूलसो जाता. देवदत्ताक नारायणाचीं सुबेजपणां आवडनात. इतल्यान भितरसावन नेत्रा भायर येता. तें नटलां. हातांत च्याचो ट्रे आसा. वांगडा नर्मदा आनी देविका आसात. तांच्या हातांत खावपाचे जिनस आसात)

नारायण : दी, सगळ्यांक च्या दी. पयलीं कोणांक दिता तें पळोवया.

(देवदत्त नारायणाक अतीताय ना करपाक शिटकायता. पूण नारायण आपलेच उमेदींत आसा. नेत्रा पयलीं बुद्धेशाक च्या दिता)

वा! हाका म्हणटात रीत. पयलो मान परक्याक. बाय बस.

(नेत्रा बसना)

नारायण : (बुद्धेशाक) पळय. बस म्हणल्यार बसना. आमी जाणटे मनीस आसात न्हय, आमकां रेस्पेद तो. राव बाय, उबेंच राव.

बुद्धेश : (नारायणाक) आतां मातसो हांव उलोवं?

नारायण : हय तर. उलयात.

बुद्धेश : हांव कांय प्रश्न विचारूं?

नारायण : कोणांक?

बुद्धेश : अर्थांत चलयेक.

नारायण : तुमकां जाय तें विचारात. पूण तो प्रश्न मात विचारूं नाकात.
बुद्धेश : खंयचो प्रश्न?
नर्मदा : (घोवाक दटायता.)
नारायण : कसलोय प्रश्न विचारात. तें तशें तरबेज आसा.
बुद्धेश : तुजें नांव कितें?
नेत्रा : (दोळे मिचकायता.)
नारायण : नांव विचारपाची गरजूच ना. दोळ्यांवयल्यान कळटा. नेत्रा.
बुद्धेश : नेत्रा, हांव तुका पसंत आसा?
नेत्रा : (लजता.)
नारायण : जालें समादान?
बुद्धेश : कितें शिकलां?
नेत्रा : (दोनूय हाताचीं बोटां दाखयता.)
नारायण : धावी पास.
बुद्धेश : रांदपाक कळटा?
नेत्रा : (मानेन हयकार दिता.)
बुद्धेश : उमळपाक कळटा?
नेत्रा : (हयकार दिता.)
बुद्धेश : शिवणसूत कळटा?
(सगळीं स्वास रोखून रावतात. नेत्रा मोन्यानी दांत ओंठ चाबता.) हांव विचारतालों शिवणसूत कळटा काय म्हण?
नेत्रा : (मान हालयता.)
बुद्धेश : वा. फकत एक गजाल जर सोडली जाल्यार चली सर्वगूणसंपन्न आसा.
देवदत्त : खंयची गजाल?
बुद्धेश : चली मोनी आसा.
नेत्रा : हांव मोने? मोनी आसत तुजी सासूमांय.
बुद्धेश : मागीर इतलो वेळ तूं वगी कित्याक?
नेत्र : वगी म्हणजे? सगळीं तरातरांनी सांगता. थोडें उलय. कमी

उलय. अशें उलोवं नाका. तशें उलोवं नाका. म्हणटकूच तोंड बंद करून घणसाबैला भशेन मान हालयिल्ली बरी न्हय.

**बुद्धेश** : तुमचें चली बरें कॉमीक आसा न्हय?

**देवदत्त** : हय. उपजत गुण तो. ताचें कितें आसा, ताचो आजोय असोच कॉमीक आसलो. ना म्हणल्यार हांवूय थोडोभोव. तशें तेंवूय.

**बुद्धेश** : म्हाका असलीं मनशां आवडटात. ती मनान निर्मळ आसतात. तांच्या ओठांत एक आनी पोटांत एक अशें नासता.

**देवदत्त** : आमचें चली तशेंच. ताका उलोवपाक बी खूब जाय.

**बुद्धेश** : मनशान मेकळेपणान उलोवचें. दाखय-लीपय करचें न्हय. कितें आवडलें जाल्यार मनापासून आवडलें म्हण सांगचें. ना आवडलें जाल्यार तशें सांगचें.

**नेत्रा** : खरेंच?

**बुद्धेश** : खरेंच. (हातांत च्याचो कप आसा.)

**नेत्रा** : हांव व्हदळच्यान तुका सांगतलें म्हण आसलें.

**बुद्धेश** : कितें?

**नेत्रा** : हे पेंटीर तुवें हो शर्ट घाला, तो तुकां इतलो दावता! विचारपाचें ना. खूबूच सुंदर!

**बुद्धेश** : खरेंच?

(तो गडबडटा. हातांतलो कप हालता. च्या शर्टाचेर पडटा. सगळीं काचाबूल जातात. इतलो वेळ वगी राविल्ली आवय भडाभडा उलोवपाक लागता.)

**देविका** : (नेत्राक) पाडापडिल्ल्या, तुकां सांगिल्लें मगो चड उलोवं नाका म्हणून. पडिल्लो दांत कशें पच्च करून उलयलें कशें? इतलें शिकोवन उमथ्या कळशार उदक? तोंडान फाल्स. नदर लागता म्हणटा ती गजाल फट न्हय. हांवें म्हज्या दोळ्यांनी पळयलें न्हय. आतां निमाणे तोच उपाय करतां आनी निवळायतां तुकां. तुज्या दोळ्यांच्यो मुंडळ्यो परत्यो करपाक जाय.

देवदत्त : आगे सगळ्यांहुजीर ताची अशी लज कित्याक काडटा?

देविका : मागीर कितें पुजा करूं ताची? आतां राव अशेंच आंकवार आयुश्यभर. असल्यांनी कोण लग्न जावपाक ना तुजेकडेन. (ताका थापटीत, धुकलीत भितर व्हरता. फाटोफाट देवदत्त वता. तांच्या फाटोफाट नारायण आनी नर्मदा. बुद्धेश काचाबूल जाला. नर्मदा आनी नारायण भायर येतात.)

नारायण : जावं तुमी बऱ्यान सुटले. पयल्यान पयलीं ही कोंक जावन तुमी विद्रूप जाले तें एकेवटेन बरेंच जालें. ना जाल्यार तुमकांच म्हणपाचें कितलो सुंदर दिसता तूं. आनी मागीर तुमचे हांगाच जावपाचे तळभंजन.

नर्मदा : आनी नळकुटी मारून ही कोंक कोणे केली तें कळ्ळें न्हय?

बुद्धेश : कोणे?

नारायण : आनीक कोणे?

नर्मदा : एकटे दुकटे आयले तें एक तुमी सामकें शाणपेण केलें. लग्न जाल्ले भयणीक बी हाडिल्ली जाल्यार फार्टी जालां तशें जावपाचें.

बुद्धेश : कितें तें?

नर्मदा : फाटले खेप असोच एकलो पळोवपाक आयिल्लो. न्हवरो असो बसला. कुशीक न्हवऱ्याचो आवय-बापूय आनी अशी मर्दी न्हवऱ्याची भयण. ती दिसता हालींच लग्न जाल्ली. कपलाचो कुकूम बरो उठून दिसतालो. जाल्यार हे पापणिची नदर त्या कुकमाचेर गेली. पच्च करून म्हणलें, कुकूम बरो दिसता. आरे देवा! म्हणटा थंय आसा. रकाद घेवन दारांत मनीस हजर! तेवटेन न्हवऱ्याचे भयणिच्या घोवाक काळजाचो ऍटेक! तुमी शर्टार सुटले.

बुद्धेश : चलयेची दीश्ट लागता.

नारायण : सादी न्हय. सामकी खर. कालच्यो आनी आयच्यो फकत दोन दिसांच्यो गजाली घेयात न्हय.

नर्मदा : जेवताना आमच्या नातवाक दीश्ट लागली.

नारायण : पाडसावयलो दुदी दीश्ट लागून खाला. व्यंकटू शणैलें रेडूक दीश्ट लागून मेलें.

नर्मदा : म्हज्या कुकमाक दीश्ट लागली. हे बऱ्यान वाटावले.

नारायण : हे चलयेची नदर जाचेर पडली ती वस्त खलास. तो मागीर फातर आसूं वा मनीस.

नर्मदा : इतले खर दिश्टिचें मनीस संवसारांत दुसरें आसचें ना.

नारायण : खरें म्हणल्यार हांगासर येवचे आदींच तुका नखलामी जाल्ली. (कोंक ह्या अर्थान) तूं भायलेभायर वचपाचो. मोटच्या पासियेंसाचो मनीस म्हण हांगासर आयलो.

नर्मदा : तूं कोणा बऱ्या घराण्यांतलों दिसता.

नारायण : आनी तुजी पिरायूय चड जांवक ना. तुका एक कित्याक धा चलयो मेळटल्यो.

नर्मदा : आमच्या नात्यांत कोण ना. नाजाल्यार तुका सुचयतली आसलीं.

(बुद्धेश अस्वस्थ जाता)

नारायण : तूं असो कळवळटा कित्याक रे?

नर्मदा : कळवळपाक नेत्राक अशें कितें म्होव लागूंकना. पयल्याच फाराक ताचेर भाळपाक तें कितें म्हजें नलू न्हय.

नारायण : आरे फाल्यां आमकां कोणेय म्हणपाक नाका, काय बऱ्या त्या बड्डाल्या पोराची वाट लागली. तुमी शेजाऱ्या सामाऱ्यांनी तरी ताकां शिटकावपाचे न्हय? आनी नशीब तुजें, म्हणून आमी तुका हांगासर आयज मेळ्ळीं. ही गजाल जर फुडल्या म्हयन्यांत घडिल्ली जाल्यार (तिकेटी ताज्या हातांत दीत) आमी बद्रिकेश्वराक आनी तूं सर्गेश्वराक पावपाचो.

बुद्धेश : (तिकेटी बारीकसाणेन पळयत) हें कितें?

नारायण : बद्रिकेश्वराच्यो तिकेटी. आमी दोगांय वतात. जांवयान धाडल्यात.

नर्मदा : खरें म्हणल्यार नेत्राच्या आवय-बापायच्या मनांत यात्रेक वचपाचें आसा. पूण मनांत आसलें म्हणून जालें? ते खातीर मागून येवचें पडटा.

नारायण : (बुद्धेशाक) तूं कितें करता?

बुद्धेश : (गोंदळून) ना, ना. हांव बद्रिकेश्वराक येना.

नारायण : बद्रिकेश्वराची गजाल न्हय. हे सोयरिकेची गजाल सांगता. विचार आनी कसलो कपलाचो करता? आयुश्यभर आंकवार राव पूण असलें खोड गळ्यांत बांदून घेवं नाका.

नर्मदा : एका उतरान नाका म्हण आनी कडसर हांगासून.

नारायण : नाजाल्यार मागीर कळयतां म्हण सांग. नक्षत्राक पडना वा देवतेचो प्रसाद जायना अशें कितेंय सांगून धाड. (नर्मदाक) सोयरीक मोडपाक अशेंच सांगतात न्हय?

नर्मदा : हय, हय. फाटल्या न्हवऱ्यांनीय अशेंच केल्लें. तुवूंय तेंच कर.

(दोगांय ताकतिकेन भितर वतात)

(बुद्धेश एकटोच आसा. बरोच काचाबूल जाला. ताची अस्वस्थता दाखोवपी सूचक संगीत. तो हांगाथंय पासयो मारता. कांय वेळान भायरसावन चोर पावलांनी नेत्रा येता. बुद्धेश ताका पळोवन कांचवेता. नेत्रा ताका कुरवेनूच बोवाळ करूं नाका म्हण शिटकायता)

नेत्रा : शू...

बुद्धेश : तूं?

नेत्रा : खंयच्यान आयलें सांग. मागीलदाराच्यान. तुजो शर्ट दी.

बुद्धेश : शर्ट?

नेत्रा : हय रे. फकत शर्ट. व्हाळार व्हरून धुवन हाडटां.

बुद्धेश : (लक्षांत येवन) आसूं आसूं.

नेत्रा : आसूं कित्याक? लग्न जाल्यार धुवचें नासलें तुजे कपडे? तूं इतलो धांदळी म्हण कोणाक खबर आसलें? च्याचो कप तुकां

सारको हातांत धरपाक कळना. तुज्या हातांत असो कडकडो मारता म्हण कळिल्लें जाल्यार तुज्या हातांतलो कप कुशीक काडून दवरून मागीरूच उलयतलें आसलें.

बुद्धेश : ते इल्लेशे गजालीचें इतलें कित्याक लावन घेता?

नेत्रा : हांवें लावन घेवंना. आनी हांव कित्याक लावन घेतलें? हांवें कितें मुद्दाम तुज्या आंगार च्या उसळायल्या? आईबाबाक खूब लागलां. तुजेहुजीर ताणी म्हाका धुमकायलें ना? भितर व्हरूनय जायफाय उलयतालीं. सोसूं नज जालें आनी मागीलदाराच्यान कूस मारली. तांकां कळनासताना अशें मुखावयल्यान आयलां. तूं शर्ट दिता जाल्यार आतां धुवन हाडटां.

बुद्धेश : नाका. तुकां शर्ट दिवं आनी हांव कितें करूं?

नेत्रा : कित्याक? तुकां आनीक कोणांक पळोवंक वचपाचें आसा?

बुद्धेश : ना.

नेत्रा : ना. म्हणटकूच एक सांग. हांव तुका पसंत आसां? तुवें व्हदळ म्हणलें न्हय, स्पश्ट उलोवपी मनशां म्हाका आवडटा, म्हणून विचारलें.

बुद्धेश : पसंत आसा म्हणजे... (आडखळटा)

नेत्रा : हें पळय, हांव मुद्दाम तुज्या गळ्यांत पडटां अशें समजूं नाका. आई बाबाक जितली ताकतीक आसा, तितली म्हाका ना. आतां आयिल्ली सोयरीक मोडटा म्हणून तांचो जीव गोळाक लागला.

बुद्धेश : आयिल्ली सोयरीक मोडटा?

नेत्रा : मोडटा म्हणजे अशीच कितेंतरी नखलामी जाता. आनी सोयरीको जुळोवपी आसतात तशो मोडपीय आसतात न्हय? तशें म्हाका लग्न जावंकूच जाय अशें ना. पूण लोकलजेखातीर.

बुद्धेश : लोकलजेखातीर?

नेत्रा : हय. वता थंय लोक आईबाबाक विचारता न्हय, धुवेचें लग्न जावंना? आजून कोण मेळूंना?

बुद्धेश : तुकां कोण विचारीना?

नेत्रा : म्हाका विचारल्यार, हांव तांकां वगी रावतां? लोकांचें कितें? लोकांक काम ना धंदो. लग्न जायना जाल्यार तशें विचारतले. लग्न जायनाबरोबर भुरगीं कित्याक जायना काय म्हण विचारतले. भुरगीं जातकच, भुरग्यांची लग्ना केन्ना काय म्हण विचारतले. जल्म, लग्न, भुरगीं – बाळां दुसरें कांय ना.

बुद्धेश : म्हणटकच तूं लग्न जावचें ना तर?

नेत्रा : जावचें ना कित्याक? म्हाका फक्त लग्नाची ताकतीक ना इतलेंच. जाचेकडेन लग्न जाता ताका मात हांव कशेंच सोडचें ना.

बुद्धेश : म्हणजे?

नेत्रा : म्हणजे ताची खूब खूब अपुरबाय करतलें. सकाळी तोंड धुवपाक उदक तापोवन दितलें. सकाळीं च्यायेक मेथयेचे पोळे केल्यार सांजचो शेवयांचो सांजो करतलें. दनपारां तेफळां घालून हुमण केल्यार रातचें कांदो तळसून करतलें. पयलीं पयलीं ताच्या माथ्यांतले पिकता ते धवे केंस कुच्च करून कोंचून काडटलें आनी मागीर सगळे केंस पिकतकूच पिकिल्ल्या केसांतलें काळे केंस कच्च करून हुमटून काडटलें.

बुद्धेश : (आंग काडून) आवयस्!

नेत्रा : तुकां दुखलें?

बुद्धेश : ना. ना.

नेत्रा : (कोंकीचेर लक्ष वचून) हें मात म्हज्या जिवाक खूब लागलें. देवा–धर्मी सांगता, ह्यानफुडें नळकुटी हातांत घेवपी न्हय. तुजो सोपूत.

बुद्धेश : मोख तूं, मोख. कोणाचेर मारूं नाका म्हणजे जालें.

नेत्रा : तशें मुद्दम मोखतां तर हांव? मारतां सहज म्हणून पूण ज्युस्त पाडापडिल्लो कोणतरी मदें येता.

(ताका पाडापडिल्लो म्हणले म्हण जीब चाबून चूक मागता.

7354

भायर वचपाक वळटा)

**बुद्धेश** : तूं खंय वता?

**नेत्रा** : हांव हांगासर कित्याक? म्हजी परीक्षा जाली. तुजो निकाल दी. आयकुपाक आई-बाबा आसाच. कितेंय निमित्त सांग. गरज पडल्यार त्या नारायणकाकाक नातर नर्मदाव्हनीक विचार. तीं कितेंय उपाय सुचयतलीं तुकां. हांव वतां प्रतापाबरोबर खेळपाक. (शिटकावन) तांकां बी सागशीत हांव मागीलदाराच्यान येवन तुकां मेळ्ळां म्हण.

(भायर वता. बुद्धेश अदीक अस्वस्थ जाता. कांयवेळान भितरसून देविका, देवदत्त, नारायण आनी नर्मदा उलयत येतात)

**नर्मदा** : सामकें अवचिन्नाळें पोर! सामको हाता-तोंडाकडेन आयिल्लो घांस वगडायलो.

**नारायण** : (देवदत्त) आमी ताका खूब समाजयलो पूण फुकट. तो आदींच शिटकावलो.

**नर्मदा** : इतलें करून मागीलदारच्यान पसार.

**नारायण** : तें आनी ताका (बुद्धेशाक) सांगपाक नाका.

**नर्मदा** : आतां सांगलें आनी ना सांगलें, कितें फरक पडटा?

**देवदत्त** : बरें बुद्धेशबाब आमच्या घराक पांय लायलो बरें दिसलें. तसो मुद्दाम तुमकां दुखोवपाचो आमचो हेतू नासलो.

**बुद्धेश** : तुमचे चलयेची दीश्ट लागता म्हणटा ती गजाल खरी तर?

**देवदत्त** : तसो म्हजो आजून विश्वास ना. पूण-

**देविका** : वगीच फट कित्याक मारतात? तांकां अणभव आयलो काय ना? हेचखातीर सोयरिको मोडटात न्हय?

**बुद्धेश** : पूण ही मोडची ना.

**देवदत्त** : म्हणजे?

**बुद्धेश** : म्हाका चली पसंत आसा. हांत्र हेच चलयेकडेन लग्न जातलों. म्हजी आनी कसलीच मागणी ना. म्हाका फकत चली जाय.

चौगांय : (देवदत्त आनी देविका उमेदीन जाल्यार नारायण आनी नर्मदा अजापान) खरेंच?

बुद्धेश : हय. खरेंच. म्हाका फक्त चली जाय.

देवदत्त : आमकां आनीक दुसरें कितें जाय? कितें नारायणबाब?

नारायण : (आडेचें) हय, हय.

बुद्धेश : लग्न मात ह्या म्हयन्यांत जावचें. कारण फुडल्या म्हयन्यांत बद्रिकेश्वराची तीर्थयात्रा आसा.

नर्मदा : आंवय! लग्नाउपरांत हनिमुनाक वचपाचें तें तीर्थयात्रेक वता?

देवदत्त : दर एकल्याची भावना आनी इत्सा!

(बुद्धेश हांगाथंय पळयता. फोनाकडेन वता. रिसिवर उखलता. नंबर घुंवडायता.)

बुद्धेश : हॅलो. हांव बुद्धेश उलयतां. बरो आसा. एक सांगात, फुडल्या म्हयन्यांत बद्रिकेश्वराक वचपी बसींत सीट आसात? बरोबर. तेच तारखेर. सतरा अठरा नंबराचे सीट कोणांक दिल्या पळयात.

नारायण : (ल्हवूच नर्मदेक) सतरा अठरा सीट नंबर आमचे.

नर्मदा : जांव, वांगड जालो.

बुद्धेश : ताच्यामुखावयले दियात. पंदरा सोळा. नांवां जाय? श्री. देवदत्त आनी श्रीमती देविकायबाय. हय फाल्यां दितां. तिकेटी धाडून दिवपाच्यो.

(फोन दवरता. देवदत्त आनी देविकेक खोस आनी अजाप जाल्यार नारायण आनी नर्मदेक अजाप आनी वायट दिसता.)

बुद्धेश : जालें. लग्न थल्लें. तीर्थयात्राय थल्ली.

नर्मदा : जांव, खऱ्या अर्थान आमकां वांगड जालो. आमी तेंच येवजितालीं, दोगांय शेजारी, शेजरा-शेजरा बसून तीर्थयात्रा करतलीं.

देविका : पूण आमी बद्रिकेश्वराक गेल्यार घर कोण पळयतलो?

बुद्धेश : एक म्हयनो घरजांवय जावन रावपाक हांव तयार आसा.

देविका : एकूच म्हयनो कित्याक?

बुद्धेश : ना. ना. फक्त एकूच म्हयनो. तुमी वचून येसर.

देवदत्त : आतां ऐनवेळार हें नेत्रा खंय गेलें?

(नेत्रा भायरसून धांवत येता)

नेत्रा : नर्मदाव्हनी, तुगेल्या नातवाक, प्रतापाक पळय आं. तो तस्सो सोप्यार बसून पेज जेवता. दाव्या हातांत सुको बांगडो आनी उजव्या हातांत उंडी. म्हज्यान कशेंच सोसूंक जायना. हांवें जर ताका कितेंय म्हणलें जाल्यार म्हजो गुन्यांव करूं नाका आं. आर्दीच सांगतां.

नारायण : (बुद्धेशाक पळोवन) आरे, तूं आजून हांगांच?

नर्मदा : तो आतां हांगाच उल्लो.

नेत्रा : म्हणजे?

देविका : बाय, ताणे तुकां पसंत केलां.

देवदत्त : हो बुद्धेश बरड आतां तुजो घरकार जातलो.

नेत्रा : खरेंच? बाबा-आई, तुमी खोशी जाल्यांत न्हय?

नर्मदा : (खोंचून) आतां मातशें लजल्यार बी जाता आं.

नेत्रा : (नर्मदाक) नर्मदाव्हनी, कशें लजूं? तुगेलें नलू व्हाळार लजिल्लें तशें?

(लजपाची पॉज घेता. सगळीं हांसतात. लग्नांतलें सूचक संगीत.)

(पयलो अंक सोंपता.)

## अंक : दुसरो

### देखाव – एक

(देवदत्तालें आदलेंच घर. बुद्धेश आनी नेत्रा हांचें लग्न जावन कांय दीस जाल्यात. देवदत्त आनी देविका बद्रिकेश्वराक गेल्यांत. बुद्धेश थोड्या तेपाचो घरजांवय जावन रावला. घर आदलेपरस मातशें वेगळे तरेन सजयलां. वेळ सकाळचो. बुद्धेश भायरसान येता. खाक्यांत कांय नेमाळीं आसात. येनाफुडें तीं चाळपाक लागता. चाळटां चाळटां एकिकडेन थारता. चत्रायेन वाचता आनी मागीर टेलिफोनाची डिरेक्टरी सोदपाक लागता. नेत्राक सादयता.)

**बुद्धेश** : नेत्रा, टेलिफोनाची डिरेक्टरी खंय? (आपलेभितर) हाका आयकूंक आयल्यार मू? (सोदतां सोदतां डिरेक्टरी मेळटा. बेगीबेगीन चाळटा. एका नांवावयलो नंबर वाचता. फोन घुंवडायता.)

बुद्धेश : हॅलो, खडपैकार? आयज पेपरार वाचल्या ती खबर सारकी? अशें अडून उरप बरोबर न्हय. तुमकां म्हण फुडार आसा न्हय? हांव बुद्धेश बरड. हांव तुमचें काम करपाक शकतां. खात्री दिना, पूण काम जालें जाल्यार पैशे फारीक करपाचे. हय. एकदां काम स्विकारलें जाल्यार तें थंय येवनूच करचें पडलें ना? इतलें बारीक-सारीक हांव फोनाचेर कसो उलयतलों? तेखातीर प्रत्यक्ष उलोवणी करचीं पडटलीं. पत्तो? जळव्यालें घर काडून

मुखार उजवेवटेन विचारल्यार कोणूय सांगतलो. देवदत्तालें घर. हय. हांव जांवय तांगेलो. हय, हांव घराच आसां.
(फोन दवरता. बुद्धेश परत पेपर चाळटा. भायरसान जळवे येता. हो वेपारी.)

बुद्धेश : येयात जळवे, कशे आसात?

जळवे : (शीण काडीत) लग्न जालो. बायल मेळ्ळी. वयल्यान घरूय मेळ्ळें. आनीक कितें जाय? आमकां विसरलो.

बुद्धेश : तुमकां विसरून खंय वतलों? आनी हें घरजांवयपद चार दिसांचें.

जळवे : जळवे हांगासर दीस रात जळटा. तुकां हास्को-हुस्को कांय ना.

बुद्धेश : वेपारांत मार खाल्लो?

जळवे : कित्याक मार खातलो काय म्हणटां? आनी बुद्ध दिवपी तूं आसतना? दोन खेपो तरी वाटायलो तुवें म्हाका.

बुद्धेश : तातूंत उपकार कसले? हे तकलेन दिलें, त्या हातान घेतलें. कोंत हिशोब मेकळो.

जळवे : आतां हेच तकलेक कौल लावपाक आयलां.

बुद्धेश : लाय.

जळवे : तूं हालींसरा आमचे तेवटेनच्यान वचना काय कितें?

बुद्धेश : वचना कित्याक?

जळवे : मागीर नवें कांयच दिसना?

बुद्धेश : नवें कांयच? तुमी नवी गाडी बी घेतल्या?

जळवे : गाडी न्हय, बंगलो.

बुद्धेश : हां, हां नवो बंगलो उबो जाता खरो.

जळवे : जालो, पूर्ण जालो.

बुद्धेश : अशें?

जळवे : खर्च कितलो जाणा? धा लाख. (जनेलांतल्यान दाखयत) पळय. येदो व्हडलो बंगलो. ह्या वाठारांत दुसरो ना. भितर

कसलें मदेर तर! सायलो, शिसो, पणस–आनी सगळें मदेर अर्द मोलाक. शिमीट, रेंव सगळें अर्द मोलाक पडलां. लायटीचें फिटींगसुद्धां अर्द मोलाक. कितें लायटीचो झगमग! आयज वास्तूशांती आनी घरप्रवेश. (आमंत्रणपत्रीका दाखयत) हें, हें आमंत्रण.

बुद्धेश : अभिनंदन जळवे!

जळवे : म्हजें अभिनंदन कसलें मड्याचें करता? तो बंगलो हावें बांदूंक ना.

बुद्धेश : मागीर?

जळवे : धाकल्यान–

बुद्धेश : अशें! तुमच्या धाकल्या भावान. धाकल्या जळव्यान येदो व्हडलो बंगलो बांदलो.

जळवे : एका वर्साभितर. आरे, प्रोपर्टीची वांटणी जावन एक वर्स जालें. जितलें म्हाका, तितलें ताका. म्हजे टामटीम चलता जाल्यार हाणे कितें काय म्हणल्यार –

बुद्धेश : म्हणून तुमी जळटा?

जळवे : जळूं नाका जाल्यार कितें रडून भिजूं? मरण परवडलें पूण असली मानहानी नाका. आरे, भोंवपाक तोंड उरूंना. लोक मुद्दाम वेपाराचें निमित्त करून येतात आनी म्हाका दुखोवापक ताच्या बंगल्याचो विशय काडटात.

बुद्धेश : लोकांचे कितें सरता?

जळवे : तांचो म्हण गुन्यांव ना. फाल्यां हांवें बंगलो उबारलो जाल्यार ते धाकल्या भावाकडेन वचून तेंच करपी आनी ताणी तशेंच केल्लें म्हाका आवडत.

बुद्धेश : मागीर तुमी बांदात दुसरो बंगलो. ताचेपरस बरो बांदात.

नेत्रा : तेचखातीर हांव तुजेकडेन आयलां.

बुद्धेश : म्हजेकडेन?

जळवे : हांगा थंयचे जमयल्यार पांच लाख जाता. बाकिचे कशे एकठांय

करपाचे ते तूं पळय. तुका म्हजो सगळो वेवहार खबर आसा. खंय कातर लावपाची. खंयचे रीण, कोणाक नागोवपाचो, सगळें तूं पळय. तुजें कमीशन तूं घे. हांव तुजेर भरवंसून रावतां.

**बुद्धेश** : रागार जावं नाकात. जळवे, हीं असलीं तकली फोडिचीं कामां आतां हावें सोडल्यांत. साकभर कुंडो फापडून पोसोभर तांदूळ मेळोवपाचे उद्देग हावें बंद केल्यात.

**जळवे** : (निराश जावन) खरें म्हणल्यार म्हाकाय नवो बंगलो बांदपाची गरज ना. फकत लोकलजेखातीर. तशीं हांवें ताका थोडी आडमेळीं हाडलीं नात. राजकी चेपण पासून हाडलें. पूण व्यर्थ! म्हजें चेपण विरोधी पक्ष फुडाऱ्याचें. ताका वशिलो आसा मुख्यमंत्र्याचो. हांव पडलो. तो चडलो. (काकूळटेक येवन) बुद्धेशबाब,

**बुद्धेश** : जळवे, हांव आतां कितेंतरी वेगळो उद्देग करपाक सोदतां.

**जळवे** : वेगळो उद्देग करपाक सोदता म्हणजे नवो उद्देग? बऱ्याची गजाल. कसलीय मदत जाय जाल्यार सांग. ताचें, धाकल्याचें पाडा घालपाक म्हाका जितलो आनंद जातलो ताचेपरस दुपेटीन आनंद तुका मदत करपाक जातलो. समजलें? आनी म्हजें काम आतांच करपाक जाय अशें ना. तसो खंय कित्याक उजो पेटूंक ना. फकत हांगा (काळजांत) जळटा, इतलेंच.

**बुद्धेश** : जळवे, उपकार करून म्हजी फाट सोडात.
(मुद्दाम ताका निरोप दिता. जळवे जड पावलांनी वचपाक वता. इतल्यान दारांत खडपैकार येता. हो कॉन्ट्रेक्टर. दोगय एकामेकाक वळखतात. हडकितात.)




**जळवे** : खडपैकार कसो आसा?

**खडपैकार** : आसा बरो.

**जळवे** : हांगा खंय?

**खडपैकार** : आरे कितें सांगू, ह्या धंद्याचो वाज आयलो. हो फातरफोडिचो

धंदो म्हणजे नस्ती तकलीफोड.

**जळवे** : जालें कितें?

**खडपैकार** : जावपाचें कितें?

(मुखार सांगपाक वता. बुद्धेश ताका शिटकायता. तेबरोबर खडपैकार विशय ताळटा.)

**खडपैकार** : जळवे, आरे, तुकां विचारतलो म्हण आसलों. एक सांग. तुमची दोगांय भावांची वाटणी सारकी न्हय?

(जळवे हयकार दिता.)

मागीर थंय धाकल्यान बंगलो बांदलो आनी तूं थंय पसऱ्याच्या गल्ल्याचेरूच सुकलो?

(जळवे खालतेपणान मान सकयल घालून भायर वता. जळवे गेला म्हणपाची खडपैकार खात्री करून घेता आनी बुद्धेशाम्हऱ्यांत येता.)

**बुद्धेश** : हांव बुद्धेश बरड.

**खडपैकार** : खडपैकार.

**बुद्धेश** : समजलें. सांगात खडपैकार.

**खडपैकार** : सांगपाचें कितें? आरे, त्या खडपान शेळो घाम काडलो. आयज आठ दीस आमी त्या खडपाकडेन झुजतात.

**बुद्धेशा** : पाशाणी?

**खडपैकार** : सामको तेल पाशाण. आरे असलो पाशाण मदीं लागतलो म्हण मातसो दुबाव जरी आयिल्लो जाल्यार हांव ह्या ग्रावंडाचें कामचू हातांत घेवचो नासलो. बरें, कॉन्ट्रॅक्ट तरी फायद्याचे? सगळो वेवहार आंगार पडला. आमकां कोण वाली आसा? आमी सरकारच्या विरोधांतले. डॉ. सत्ताराम आमचे फाटल्यान आसा म्हणल्यार कायद्याच्यो दोरयो आमचेभोंवतणी चरांटून आंवुळटात. कामाची मुजत परवां सोंपता. नाजाल्यार फायन. आनी तो पाशाण हालपाचीं चिन्नां नात. ताका घण लागना. पिकास, पारयो मुणावता. घातिल्ले सुरींग सुरसुरीं जातात.

फाटल्या आठ दिसांत त्या खडपान धा हजार खाल्ले.

**बुद्धेश** : हांव तें मैदानावयलें खडप फोडपाक तयार आसा.

**खडपैकार** : कसो फोडटलो?

**बुद्धेश** : तें हांव पळयतां.

**खडपैकार** : ह्या दोन दिसांभितर फोडल्यार मागता तें दिवपाक हांव तयार आसा.

**बुद्धेश** : तुमी एक करचें पडटलें.

**खडपैकार** : कितें?

**बुद्धेश** : खडप बरें सजोवपाचें.

**खडपैकार** : (फकाणां दिसता) सजोवपाचें म्हणजे? सजोवपाक ती मूर्त न्हय. सादो फातर.

**बुद्धेश** : पळोवपाक तें सुंदर दिसपाक जाय. म्हणजे बळी दिवपाक व्हरतात त्या बोकड्याभशेन.

**खडपैकार** : म्हणजे फुलांच्यो माळो घालच्यो पडल्यो.

**बुद्धेश** : नाका. तातूंत खडप लिपतलें. खडप स्पश्ट बरे दिसपाक जाय. तिकतिकीत.

**खडपैकार** : तिकतिकीत? तशें जाल्यार तेल लावंया.

**बुद्धेश** : जाता. तेलूच लावपाचें.

**खडपैकार** : तेल जाल्यार तेल. इतलो घाम वारयला, आतां थोडें तेल वारोवया. (फकाणां मारीत) हरी अडलो आनी गाडवाच्या पांयां पडलो.

**बुद्धेश** : वेळ वगडावं नाकात. खडपाक तेल सारयात आनी सगळ्या कामदारांक कडेक काडात.

(खडपैकार ताकतिकेन भायर वता. भितरसावन नेत्रा येता. तें नवी साडी न्हेसलां. सजलां.)

**नेत्रा** : ते गेले? तिळवे आनी आडपैकार?

**बुद्धेश** : तिळवे न्हय जळवे आनी तो दुसरो खडपैकार.

**नेत्रा** : ते वचसर हांव भितरूच रावलें.

बुद्धेश : तशेंच करपाचें. (पेपर सारके करता.)

नेत्रा : तूं हे इतले पेपर कित्याक वाचता? आपूण चड शिकला म्हणून दाखोवपाक?

बुद्धेश : शे!

नेत्रा : आमचो बाबा एकूच पेपर वाचता. मागीर तोच पेपर नारायणकाका वाचता.

बुद्धेश : आतां थंय अशेंच करतात आसतले. आगो, ते वाचून सोडून दितात. हांव तशें करिना. म्हज्या धंद्याचो संबंद ह्या पेपराकडेन आसा.

नेत्रा : कसलो धंदो?

बुद्धेश : धंदो म्हटलो म्हणटकूच जालें. तो कसलो–कितें हाची चवकशी कित्याक जाय?

नेत्रा : नाका जाल्यार नाका.

बुद्धेश : तुजी आई–बाबा आनी (मुद्दम) नर्मदा–नारायण बद्रिकेश्वराकसावन येवचे पयलीं हांगासर म्हज्या धंद्याक तरतर आयिल्लो आसतलो. पळयशीत तूं.

नेत्रा : तशें जाल्यार नर्मदा–नारायणाक थरथर सुट्टलो.
(दोगांय हांसतात. हांसतानां बुद्धेशाचें लक्ष नेत्राचेर वता.)

बुद्धेश : (ताका नियाळीत) नेत्रा, कितलें सुंदर दिसता गो तूं पापया. तुजेमुखार तीं सिनेमांतलीं नखेत्रां नकली.

नेत्रा : (भुल्लूसून) खरेंच? (भयान) आवय्स! अशें म्हणू नाका आं.

बुद्धेश : कित्याक?

नेत्रा : दीश्ट बी लागत तुजी.

बुद्धेश : म्हजी?

नेत्रा : आयज हांव अशें कित्याक भायर सरलां जाणा?

बुद्धेश : कित्याक?

नेत्रा : पासयेक. कितले दीस जाले लग्नाक, भायरूच सरूना. भोवून

आयिल्लो जीव म्हजो. हांगासर एका जाग्यार बसून बसून म्हाका चिमटे येतात. (ल्हवूच) तातूंत तुजेय चिमटे.

बुद्धेश : आगो, हांवूय आयज तुकां तेंच सांगपाक सोदी.

नेत्रा : कितें?

बुद्धेश : आयज आमी पासयेक या.

नेत्रा : खरेंच?

बुद्धेश : म्हज्या जिवाचो सोपूत. तुकां खरें सांगूं नेत्रा, तुजें आनी म्हजें खूब बाबतींत जुळटा. तुज्या मनांत तेंच म्हज्या मनांत. तुकां दिसता तेंच म्हाका दिसता. न्हय?
(इतल्यान फोन वाजता.) कोणाचो आसतलो? दोगांयचें जुळटा काय ना तें आत्तांच कळटलें. सांग कोणाचें?

नेत्रा : सांगूं? म्हज्या आई-बाबाचो.

बुद्धेश : आईचो काय बाबाचो?

नेत्रा : आई कशी करतली? बाबाचोच.

बुद्धेश : म्हाकाय तशेंच दिसता. (फोन उखलता.) हॅलोऽऽ हय, हय. (नेत्राक) जुळटा म्हणटा तें सामकें खरें. हय. तुमचीच याद काडटालीं. शंबर वर्सां आयुश्य तुमकां. आसा. आसा. हांगाच आसा.

नेत्रा : (बेगीबेगीन येवन फोन आपूण घेता.) हॅलोऽऽ बाबा, कशीं आसात? नर्मदाकाकी? नारायणकाका? आईकडेन दी. हॅलोऽऽ आई, हांव नेत्रा. खूब बरें आसा. म्हाका कसले त्रास दिना तो. खऱ्यांनीच ना गे. आं, हांव ताका त्रास दितां कांय म्हणटा? बरी मगे तूं! जांवयाचो बरो हुस्को तुकां. हय. सामकें सुखांत आसा. खेळपाक प्रताप खंय आसा गे हांगा? तुमी गेल्यांत ताचे दुसरे दीस ताची आवय ताका घेवन गेली मामागेर. आजून येवंना. बरें आसा गे. (रडकुऱ्यां) पूण आई तुजी याद येता. (माथ्यांत हात खरपीत) खूब जाल्या. खोरजता. तो कितें करतलो? पेपरा फुडें ताका फुरसतूच मेळना. तसले परीक्षेचे

पेपर न्ही गे. सदांचे वाचपाचे. वाचीत आसता. आडपैकार तिळवे बी येवन वतात. धंदो कसलो तो खबर ना. तुमी केन्न येतात? दोन दिसांनी भायर सरतात?

**बुद्धेश** : (कुरवेनूच सांगपाक लायता, दोन दीस उसरां आयल्यार जाता.)

**नेत्रा** : (उरफाटो अर्थ लायता) आई, तुमचो जावंय म्हणटा, दोन दीस बेगीन आयल्यार जालीं.

(बुद्धेश कपलार हात मारता.)

**नेत्रा** : आतां आमी खंय वतात जाणां? पासयेक. तुमचो जांवय खूब्ब बरो. सद्दां ताका हांव खावन पळयतां. बरें, टाऽऽ टा. (फोन दवरता.)

(बुद्धेश खोशयेन नेत्राच्या हाताक धरता. दोगांय झेतान भायर वतात.)

(काळोख.)

## देखाव – दोन

(एक वेगळी सुवात. मैदान. बुद्धेश आनी नेत्रा चलून थंय आयल्यांत.)

**नेत्रा** : बुद्धेश, म्हज्यान आनीक चलूंक जायना रे बाबा. पांय भरून आयले.

**बुद्धेश** : जालें. आनीक चलपाचें ना. आतां हांगाच रावपाचें.

**नेत्रा** : हांगाच?

**बुद्धेश** : हय. हांगाच. पळय, कितलें बरें दिसता हांगा. काय बरो मेकळो मेकळो वारो! सामको तुगेल्या कुळारच्या वाऱ्याभशेन. (नेत्रा

फुलता) नेत्रा, पळय ही कितली मेकळी सुवात!

नेत्रा : शेत?

बुद्धेश : न्हय, मैदान. हांगासर मैदान करतात. कित्याक सांग पळोवया?

नेत्रा : कित्याक?

बुद्धेश : आगो खेळपाक. गावांत कशें खेळपाक शेतां – भाटां आसतात तशीं हांगासर खेळपाक मैदानां. मागीर हांगासर भुरगीं येवन खेळटलीं.

नेत्रा : आमकांय खेळपाक मेळटलें?

बुद्धेश : बरेभशेन. कसलो खेळ खेळटलें तूं?

नेत्रा : कसलो म्हणजे? लगोऱ्यांनी, कोयण्यां–बालांनी.

बुद्धेश : ना. हांगासर तसले खेळ खेळना. फुटबॉल, क्रिकेट. तुकां क्रिकेट कळटा?

नेत्रा : हय. हांव आनी प्रताप खेळटालीं. हांव पिराडो घेतालें आनी तो बोंड्यान मोखतालो.

बुद्धेश : समज, आतां तुजेकडेन बॅट दिलें आनी हांवें जर तुकां बॉल घातलो जाल्यार तूं खंय मोखशी?

नेत्रा : खंय काय म्हणटा? (दाखयत) सामकें थंय.

बुद्धेश : थंय म्हणल्यार हे तें कितें चकचकता थंय?

नेत्रा : खंय?

बुद्धेश : हे थंय गो.

नेत्रा : (पळोवन) आवय्स! हे तें मदींच कितें?

बुद्धेश : शेणाची रास दिसता.

नेत्रा : शेणाची रास? तें काळें कुळकुळीत दिसता तें खडप न्हय? काय बरे तिक्तिकीत दिसता पळय.

बुद्धेश : (आडेचे उमळशिकेन) हय मुगो.

नेत्रा : असलें सुळसुळीत खडप हावें केन्नाच पळोवं ना. खरेंच सामकें सुंदर!

बुद्धेश : चल, पासय जाली.

नेत्रा : आतां वचपाचें?

बुद्धेश : हय तर. वचपाचें.

(बुद्धेश नेत्राचे दोळे चुकोवन पयस कुरू करता. कुरवेन फोडात अशें सुचयता. दोगांय वतात. फाटोफाट खडपाचेर घण पडिल्ल्याचो आवाज.

(काळोख.)

## देखाव – तीन

(बुद्धेशालें घर. बुद्धेश आनी नेत्रा भायरसावन येतात.)

नेत्रा : (बेजारलां.) ही कसली रे पासय?

बुद्धेश : कसली म्हणजे?

नेत्रा : वतना बरीं गेल्लीं रमत-गमत. येतना वाग फाटीक लागिल्लेभशेन धांवत धांवत आयलीं.

बुद्धेश : तुका मैदान दाखयलें काय ना?

नेत्रा : मैदान न्हय, खडप.

बुद्धेश : हय खडप. पूण खडप आयज पळयलें तितलें फावलें. फाल्यां पळोवपाक मेळपाचें ना.

नेत्रा : म्हणजे?

बुद्धेश : पळोवया. नेत्रा, आयची पासय जर जैतिवंत जाली जाल्यार मागीर पासयोच पासयो. मागीर हांव तुका सामको फुलाभशेन जपतलों. दसणांच्या फुलाभशेन.

नेत्रा : जाणां, आमच्या घरामुखार म्हाका तांबडी आनी हळडुवी दोनूय दसणी लावपाक जाय.

बुद्धेश : लाय. दोनूय लाय.

नेत्रा : खंय लावं?

बुद्धेश : घरामुखार.

नेत्रा : घरामुखार जागो तरी आसा?

बुद्धेश : (लक्ष ना) हाडुंया.

नेत्रा : कितें?

बुद्धेश : ना, ना.
(भायर वचून वाट पळयता.)

नेत्रा : कोणाची वाट पळयता?

बुद्धेश : खडपाची.

नेत्रा : खडपाची?

बुद्धेश : न्हय, न्हय कोणाची न्हय.

नेत्रा : खडपैकाराची दिसता.

बुद्धेश : हय, हय खडपैकाराची.

नेत्रा : म्हजो बाबाय अशीच वाट पळयता.

बुद्धेश : कोणाची?

नेत्रा : एकवटेन म्हजेकडेन उलयता आनी मागीर भायर वचून वाट पळयत म्हणटा, आजून कोणूच कसो रकाद घेवन आयलोना?

बुद्धेश : कसलो रकाद?

नेत्रा : तें म्हाका खबर ना.
(भितर वता. बुद्धेश ताकतिकेन फोन करता.)

बुद्धेश : हॅलो, खडपैकार? ना? खंय सायटीर गेला? सायटीवयली कसली खबर आसा? खडपाक तेल लायता? ती खबर पोरनी जाली. उपरांत कितें घडलां? खबर ना? बरें आसा.
(फोन दवरता. इतल्यान भायल्यान खडपैकार येता. तो उमेदी आसा.)

खडपैकार : थँक्यू, थँक्यू मिस्टर बुद्धेश.

बुद्धेश : खडप फुटलें?

**खडपैकार :** आरे, तुवें कुरू करिनाबरोबर धाएक कामदारांनी खडपाचेर वांगडाच घण घातले. आनी मजा म्हणल्यार आख्ख्या पाशाणाचो गोबर! मारिल्लो घण जळिल्ल्या शेणकुणाचेर बशिल्लेभशेन जालो. पांच मिनटांत खडपाचो धूप! तुवें उतर खरें केलें. पयलीं म्हाका सगळीं फकाणांच दिसलीं. खडपाक तेल लावप म्हणल्यार कितें! फातर फोडपाचें हें तुजें आगळेंच तंत्र!

**बुद्धेश :** खूब कश्टांनी म्हाका तें साध्य जालां.

**खडपैकार :** तूं जर हें तंत्र आमच्या कामदारांक शिकयशीत जाल्यार–

**बुद्धेश :** ती एक वेगळीच साधना. तुमी ताच्या खोलांत अदीक ना गेल्ले बरे. तुमचें असलें काम आसल्यार मुजरत सांगात.

**खडपैकार :** जालेंच न्हय. आतां तुज्या भरवंशार कसलींय कंत्राटा घेवं येतात.

**बुद्धेश :** म्हजें पुराय सहकार्य आसतलें.

**खडपैकार :** आतांचे कितले?

**बुद्धेश :** चाळीस हजार.

**खडपैकार :** चाळीस हजार?

**बुद्धेश :** खरें म्हळ्यार पन्नास हजार घेवपाचों. पूण तुमी आदींच त्या खडपाचेर धा हजार रुपया खर्चिल्यात म्हणटकूच फक्त चाळीस हजार.

खडपैकार : कांय उणे जावचेना? तशें हांवें मागता तितले दितां म्हणिल्लें खरें, पूण तेलाकूच हजारभर खर्चिले. एकोणचाळीस दितां.

**खडपैकार :** दियात.

**बुद्धेश :** पूण हे संबंद अशेच दवरपाचे. गरज पडटा तेन्ना आयलों जाल्यार ना म्हणपाचें ना.

(पैशे मेजून दिता. बुद्धेश पैशे घेता. खडपैकार वता. बुद्धेश उमेदीन नेत्राक उलो मारता.)

**बुद्धेश :** नेत्रा ऽऽ.

खडपैकार : (भायर येत) कितें? तो खडपैकार गेलो?

बुद्धेश : आगो, खडपैकार आमचें गिरायक.

नेत्रा : म्हणजे?

बुद्धेश : खडपैकाराचें हांवें काम केलें. ते बदलीं हे पैशे.

नेत्रा : कितले?

बुद्धेश : घे, मेज.

नेत्रा : नाका. म्हाका मेजपाक वाज येता.

बुद्धेश : जोखून तरी पळय.

नेत्रा : (हातांत घेत) खूब आसा.

बुद्धेश : (खोशयेन) एकोणचाळीस हजार रूपया.

नेत्रा : आंवय! एकोणचाळीसशे? चाळीस हजार कित्याक न्हय?

बुद्धेश : एक हजार तेलाक गेले.

नेत्रा : तेलाक?

बुद्धेश : तेलाक म्हणजे एक हजाराचें देवाक तेल दी म्हण सांगलें, लामणदिव्याखातीर.

नेत्रा : पूण तुवें खडपैकाराचें काम तरी कसलें केलें?

बुद्धेश : तागेलो ग्रावंड पास केलो.

नेत्रा : पास केलो म्हणजे तो नापास जाल्लो तर?

बुद्धेश : आगो, पास केलो म्हणजे – पळय. हावें तुकां कशें पास केल्लें तशें. हांवें तुकां पास करतकूच तुज्या बापायन कितें केलें? तुकाच काडलें आनी म्हाका दिलें. तशें खडपैकारालो ग्रावंड हांवें पास करतकूच ताणे म्हाका –

नेत्रा : ग्रावंडूच दिवपाचो.

(दोगांय हांसतात.)

बुद्धेश : सांग, आतां ह्या पैशांचें कितें करूंया?

नेत्रा : म्हाका खबर ना. हांवें इतले पैशे केन्नाच पळोवनां.




बुद्धेश : आमी ह्या पैशांनी जागो विकतो घेवंया.

नेत्रा : घर बांदूक?

बुद्धेश : घर न्हय बंगलो.

(नेत्रा भितर वता. भायरसान जळवे येता.)

**जळवे** : बुद्धेशबाब, कालचो पयरचो खडपैकार. तागेलें लेगीत तुवें काम केलें आनी आमची इतली आदली वळख आसून कांयच उपेग ना. (बॅग दाखोवन) हो लाख घेवन हांव भोंवतां.

**बुद्धेश** : जळवे, तुमचें काम हांव कशें करतलों? म्हज्या उद्देगाचें स्वरूप तुमकां खबर ना. हांव फकत मोडपाचें, इबाडपाचें काम करूंक शकता. तुमचो बंगलो बांदपाचें काम जावचें ना. मोडपाचो जाल्यार सांगात.

**जळवे** : तेंच सांगतां न्हय, म्हज्यान जाल्लें जाल्यार हांव लेगीत करतलो आसलो. म्हाका तो बंगलो म्हज्या घरामुखार नाका. आनीक कोणाचोय जाल्यार उपकारतालो. धाकल्याचो म्हण निखालस नाका.

**बुद्धेश** : (चिंतून) जालें. तो बंगलो नश्ट करतां.

**जळवे** : कसो? मोडून काय जाळून?

**बुद्धेश** : आतांच सांगूंक जावंचें ना. पूण दोनांभितरलो एक उपाय करतां.

**जळवे** : आजूच जावं येता? म्हणजे वास्तुशांती जालीच ना अशें जालें.

**बुद्धेश** : पूण आतांच कशें जावं येता?

**जळवे** : म्हूर्त बरो आसा घर-प्रवेशाचो म्हणून म्हणटां.

**बुद्धेश** : मातसो विचार करचो पडटलो.

**जळवे** : विचार कसलो? खडपैकारालें मैदानावयलें खडप एका खिणांत फोडलें ना? फकत एकोणचाळीस हजारांत. तुका कांयच कठीण न्हय. म्हाका तुजे तकलेचो पुराय विश्वास आसा. तूं कामाक आरंभ करता जाल्यार हांव बायल भुरग्यांक घेवन घराचे गॅलरींत उबो रावन तुजी करामत पळयतां. काम कर आनी हो लाख उखल. अखेर तुजे तकलेक इतले फारीक करपाकूच जाय.

**बुद्धेश** : (कल्पना मानवता.) नेत्रा ऽऽ

(काळोख)

## देखाव - चार

(एक वेगळी सुवात. वाट. बुद्धेश आनी नेत्रा येतात.)

नेत्रा : बुद्धेश, असलीं कसलीं रे तुजीं कामां? घरांत भितर सरता थंय आसा, रोखडींच भायर सरलीं. तरी बरें हांव भायरूच सरून आसा म्हण.

बुद्धेश : तशेंच करपाचें. सद्दा सकाळीं भायरच सरून रावपाचें.

नेत्रा : आतां आमोरी जाली पळय.

बुद्धेश : कामाफुडें आमोरी आनी तिमोरी खंयची?

नेत्रा : पूण काम तरी कसलें?

बुद्धेश : आगो, काम दुसऱ्या कोणाचें न्हय. आमचेंच. हें पळय नेत्रा, हांवें कसलीय गजाल एकदां तकलेंत घेतली म्हणजे हांव ती पूर्ण केलेबगर कशीच सोडिना. हांवें पयल्याच धपक्याक तुकां पसंत केलें. थारायलें - लग्न जातलों जाल्यार हेच चलयेकडेन जातलों. जालों. आतांय तशेंच.

नेत्रा : म्हणजे आनीक लग्न जावपाक सोदता?

बुद्धेस : शे! तूं आसतना? नेत्रा, व्हदळ, तुवें म्हणलें न्हय? घर बांदूक जाय. म्हज्या मनांत ती गजाल सामकी रीगली. घर बांदूक जाय म्हणजे बांदूकच जाय. आनी पैशे हातांत आसात न्हय? हरशीं लोक पैशे हातांत नासताना लेगीत घराच्यो बुन्यादी घालतात. आमचेकडेन तर बुन्यादीक घालपाइतले पैशे आसात. तूं मगो

आत्तांचे आत्तां एक घर पसंत कर. फाल्यांसावन तश्शाक तश्शें बांदून काडूंया. तुजें सहकार्य आसल्यार एक कित्याक हांव धा घरां बांदपी.

नेत्रा : हावें तुका ना म्हणलां?

बुद्धेश : चल तर, लाग कामांक.

नेत्रा : कसल्या?

बुद्धेश : घर पसंत कर. हें पळय, तें तसलें घर उपकारत?

नेत्रा : आंवय! ती बेश्टी शिमिटाची खोंप मरे. ताका घर म्हणटात?

बुद्धेश : तें...

नेत्रा : शी! सामकी भंगसाळ कशी. ते भंगसाळेंत मनशांनी रावपाचें?

बुद्धेश : तें, दावेवटेन?

नेत्रा : तो? मांगोर.

बुद्धेश : तूं बरें शाणे आसा आं. तुकां नदरूय बरी आसा.

नेत्रा : आसाच जाल्यार.

बुद्धेश : आतां हेवटेन पळय. थंय - लायटी बी घातल्या थंय. घराचेर पळय. विजेच्या दिव्यांच्यो लायटी लायल्यात. जायां पुजे दिसा जायांच्यो माळो वयल्यान सकयल सोडटात पळय तश्यो.

नेत्रा : बऱ्यो पिक पिक लायटी न्हय?

बुद्धेश : आनी घराचे भोंवतणी पळय कितलो ऐसपैस मेकळो जागो! जाय तेदें पोरसू करपाचें. सगळीं फुलझाडां, फळझाडां लावपाचीं.

नेत्रा : आवय्स! केन्नातरी सपनांत पळयिल्लें घर धर्तरेचेर देंवला कशें दिसता. देवाचो सोपूत. म्हाका असलेंय घर जाय. माडाभशेन उंच, उबार. एके माळयेचें. मुखार तसलींच तीन दारां. मदलें व्हडलें दार, कोंगरकिशा दरवाज्याचें. कुशीचीं दोन बारीक दारां. व्हडल्यांनी व्हडल्या दारांतल्यान भितर सरपाचें,

धाकल्यांनी धाकल्या दारांतल्यान. आनी मुखार असलींच जनेलां. इतलीं उबार, माजराक पिट्ट करून उडी मारूंक मेळटा तशीं. खरेंच सुंदर.

बुद्धेश : चल, काम जालें.

नेत्रा : परतुपाचें?

बुद्धेश : हय. तितल्याच कामाक आयिल्लीं.

(दोगांय वळटात.)

(काळोख)

## देखाव – पांच

(घर. बुद्धेश आनी नेत्रा उलयत येतात.)

बुद्धेश : पूण हांव म्हणटां. घराक मागीलदार जायच कित्याक? नाकाच. कित्याक जाणां,

नेत्रा : कित्याक?

बुद्धेश : फाल्यां आमगेर भुरगीं जातलीं. समज, चली जालें. व्हडलें जालें. लग्नाचें. एक दीस ताका सोयरीक आयली. न्हवरो पळोवपाक येवन भायर बसला. आनी चली भायलेभायर मागीलदारांतल्यान पळोवन गेलें जाल्यार?

(दोगांय हांसतात.)

नेत्रा : खरें म्हणल्यार मागीलदार जाय. पोरसूं जाय. आई-बाबा जाय. शेजाऱ्यांपासून जाय.

बुद्धेश : व्हरूंया. तांकांय नव्या घरांत व्हरूंया. तांकाय म्हण हांगा गावांत कोण आसा?

नेत्रा : खरेंच बुद्ध्या. तूं कितलो बरो रे!

बुद्धेश : (सावध जावन. बेगीबेगीन) झक् मारलीं तुजीं आई बाबा. घरांत सगळ्यो नव्यो वस्तू हाडपाच्यो. एक पोरनी वस्तू नाका.

नेत्रा : अशें कितें रे? तूंच तर म्हणटालो न्हय रे?

बुद्धेश : (चाळोवन) बुद्ध्या तूं कितलो बरो रे!... म्हाका असल्यो तोखणायो नाकात.

नेत्रा : (रडकुरें जावन) खोटो! पाडो, काळो बुकलो. सान्नी खुटारो (म्हणत भितर वता.)

जळवे : (आकांतून भायरसून येत) धूप, गोबोर. घट्टण, निसंतान, तळभंजन.

बुद्धेश : जळवे, इतलो आकांत कित्याक? खंय उजो पेटला?

जळवे : खंय म्हणजे? तुवें जंय लायला थंयच पेटला.

बुद्धेश : म्हणजे धाकल्या जळव्याचो बंगलो पेटला.

जळवे : (जनेलांतल्यान दाखयत) पळय, उज्याचे जाळ कशे मळबाक भिडटात ते पळय.

बुद्धेश : पूण उजो कसो पेटलो?

जळवे : तूं म्हाका विचारता? सगळी करामत तुजी. आरे उजो पेट्टलो म्हणून म्हाकाय कल्पना ना. हांवें धरलें, कोंसळटलो. भायर गॅलरींत येवन दोळे गच्च धापून, सगळे प्राण कानांत हाडून, कोंसळपाचो आवाज आयकूंक राविल्लो, जाल्यार बायलेन मुखावयलो उज्याचो लोट दाखयलो. सामको गोबर आं. उज्याक सगळें आयतें मदेर मेळ्ळें. उज्याच्या उजवाडांत धाकलो कसो रसरसतालो जाणां? उक्त्या आंगांन सवळें पितांवर न्हेसून पुजेक बशिल्लो दिसता. प्रॉपर्टीची वांटणी करूंया म्हणून बापायमुखार असोच तांबडोगूंज जावन नाचतालो. बुद्धेशबाब, तुवें एक बरें केलें आं. म्हणजे वित्तहानी केली, पूण जिवीतहानी केली ना. कोण मनीस उज्यांत सांपडलो ना. बंगल्यात उजो लागतकच हुंदीर कशे सगळे भायर पळ्ळे. आतां जळून कोळशे जातकूच

फायर ब्रीगेड बी पावतली. आयुश्यांतली सगळ्यांत बरी न्हीद आयज पडटली. (बॅग दिवन) तुज्या कामाचो मोबदलो. जाय जाल्यार मेजून पळयात.

**बुद्धेश** : नाका, तुमचेर विश्वास आसा.

**जळवे** : म्हजेर तुजो विश्वास. तुजेर म्हजो विश्वास. विश्वासाचे हे संबंद सासणाचे अशेच उरूंदी. म्हजे तुका अंतस्कर्णापासून आशिर्वाद! तुजेकडसून ह्याचेपरस व्हड तांकिचीं कार्यां जावचीं.

(जळवे भायर वता. बुद्धेश बॅग उक्तें करता. नेत्राक उलो मारता.)

**बुद्धेश** : नेत्राऽऽ

**नेत्रा** : (व्हदळच्यो गाळी मारीत भायर येता.) खोंटो! पाडो, काळो बुकलो, सान्नी खुटारो.

**बुद्धेश** : आगो, तुजो राग आजून वचूंना?

**नेत्रा** : तुवें म्हज्या आई-बाबाक पोरन्यो वस्तू कित्याक म्हणल्यो? मनशां म्हण केन्ना पोरनीं जातात? तुका नाका जाल्यार नाका तीं तुगेल्या नव्या घरांत.

**बुद्धेश** : आगो, हांवें तुज्या आई-बाबाक कांय म्हणून ना. तांकां व्हरूयाच. जाय जाल्यार तुज्या शेजाऱ्यांक नर्मदा-नारायणाक लेगीत व्हरूंया. आगो, तुवें म्हाका कितलो बरो म्हणलें न्हय, देखून हांव तापलों.

**नेत्रा** : मागीर बऱ्याक बरें म्हणू नाका? म्हाका पळोवपाक आयिल्लो तेन्ना तूंच म्हणटालो मरे, आपणांक स्पश्ट उलयतात, तीं मनशां आवडटात.

**बुद्धेश** : हय गो. पूण तें दुसऱ्यांक. आपल्याल्याच मनशांक कित्याक बरें म्हणप? आमी एकामेकाखातीर करतात तें कर्तव्य. तातूंत उपकार कसले?

**नेत्रा** : म्हाका तुजो दुबाव येता.

**बुद्धेश** : कसलो?

नेत्रा : तूं बरो मनीस न्हयसो दिसता. ह्या बोटावयली थुकी त्या बोटार काडटा.

बुद्धेश : ना गो म्हज्या शाण्या. पळय, हांवें आनीक कितलें जोडलां. (बॅग उक्ती करता.) मोजपाक लेगीत त्रास ना. जूस्त एक लाख आसात.

नेत्रा : एक लाख? आवय्स!

बुद्धेश : सायबिणी म्हजे! (बॅग बंद करता.)

नेत्रा : धांपलें कित्याक?

बुद्धेश : नोटींक उजो पेटत!

(काळोख)

## देखाव – स

(घर कांय दीस गेल्यात. बुद्धेश वर्तमानपत्रां चाळटा. कांयवेळान फोनाची बेंल वाजता. बुद्धेश फोन घेता.)

बुद्धेश : हॅलो... हय... बुद्धेश बरड. हांवूच उलयतां. तुमी कोण? नांव सांगपाचें ना? कित्याक? काम कसलें? तुमचें एकट्याचें न्हय? धा जाणांचें? धा जाणांचें म्हणटकच हांवें फुकट बी करचें अशी तुमची इत्सा ना मू? तशें जाल्यार स्पश्ट सांगतां, हांवें हांगा समाजसेवेचो आश्रम घालूना. तें आसूं. काम कसलें तें सांगात. पयलींच उतर कशें दिवं? तुमी कामाचें स्वरूप सांगात न्हय. कितें? मशीद पाडपाची? मोडपाची? (रागान) हें पळयात, मशीद पाडप, देवळां मोडप, हीं असलीं कामां करपी वेगळे लोक आसात. हांव तातूंतलो न्हय. एक सांगात, तुमी तुमचें नांव काय सांगनात. तुमकां ह्या कामाखातीर म्हजें नांव कोणे

सांगलें? कोणे? जळवे? बरें आसा. (रागान फोन दवरता. आपलेभितर फणफणटा. नेत्राक उलो मारता.)

बुद्धेश : नेत्रा -- हांव मातसो त्या जळव्यागेर वचून येतां आं. कोणूय आयलो जाल्यार बस म्हणून सांग. त्या जळव्याची खबर घेवून येतां. (भायर वचपाक फोनाची बेल वाजता. फोन उखलता.)

बुद्धेश : हॅलोऽऽ कोण उलयता? तळेकार? हय. हांव बुद्धेश बरड. कसलीं कामां केल्यांत ताची वळेरी तुमकां कित्याक? तुमचे कसलें काम तें सांगात. कितें उसपुपाचें? तळें? हांव कसलीं कसलीं कामां करतां ही गजाल खरी पूण तळी उसपुपाची न्हय. तुमचेकडेन घुडेबी नात? नाजाल्यार पंप लायात आनी उसपियात. सॉरी, सॉरी. असलें काम हांव करिना. (फोन दवरपाक वता, याद जाता.) हॅलोऽऽ एक सांगात, हांव तुमचें तळें उसपितलों म्हण तुमकां कोणे सांगलें? जळव्यान? मागीर कोणे तर? खडपैकार? बरें आसा. (रागान फोन दवरता. नेत्राक उलो मारून)

बुद्धेश : नेत्राऽऽ हांव पयलीं जळव्यागेर वतां. मागीर खडपैकारागेर वतां. दोगांयची खबर घेवन येतां.

(भायर वचपाक वता. इतल्यान दारांत जळवे आनी खडपैकार येतात. ते खूब उमेदी आसात.)

दोगूय : बुद्धेशाचो जयजयकार जांव!

बुद्धेश : (राग तसोच आसा.) जळवे, खडपैकार तुमी कितें आडायलां? हांगा म्हजो जयजयकार करतात आनी भायर म्हज्या नांवाची घाण?

जळवे : तुमच्या नांवाची घाण? शी! असलें काम आमी केन्ना करपाक ना.

बुद्धेश : मागीर भायर म्हजी फाम कोणे घातल्या?

खडपैकार : कसली फाम?

बुद्धेश : हांव मशीद फोडटां, देवळां मोडटां, तळी उसपितां म्हण सांगलें ना?

जळवे : हें पळय बुद्धेश, तूं असलीं कामां करता म्हण हांवें कोणांक म्हणू ना.

खडपैकार : हांवें ना रे बाबा.

जळवे : पूण तूं कसलींय अडचल्लीं कामां करूंक शकता अशें चार चौगांक सांगलां.

खडपैकार : आनी तें तशें सांगपाकूय जाय. आरे अखेर तुजो धंदो न्हय तो?

जळवे : तुजी बशिल्लेकडेन जायरातूय कशी जालीना?

खडपैकार : हे, हे इतले पेपर वाचून तकलीफोड करपाची तुकां गरज ना.

बुद्धेश : पूण हांव अडचल्लीं कामां करतां हाचो अर्थ कितेंय करतां अशें न्हय. म्हज्या कामाची एक मर्यादा आसा.

जळवे : पूण ही मर्यादा आमकां कळपाची कशी? तूं कितें कितें करपाक शकता आनी कितें कितें करपाक शकना हाची कांय वळेरी तुवें केल्ली ना.

खडपैकार : आमी आमचो अणभव दुसऱ्यांक सांगतात, इतलेंच. आतां लोक आपापले परीन आपणांक जाय तसो अर्थ लायतात.

जळवे : हें पळय बुद्धेशबाब, तुजो नवो धंदो म्हणटकच आरंभाक हे असले समज-अपसमज जावप सभावीक आसा. तातूंत इतलें पिकार जावपासारखें कांय ना. धंद्याचो जम बसमेरेन आमी त्रास काडूंना?

(बुद्धेशाक समजावणी मेळटा. तो शांत जाता.)

बुद्धेश : दोगूय एकठांय जावन आयल्यात. कसलें काम हाडलां?

खडपैकार : काम? शे. प्रस्ताव.

जळवे : बरोबर. प्रस्ताव. कशें भारदस्त दिसता.

खडपैकार : बुद्धेशबाब, हो प्रस्ताव जर तुवें स्विकारलो जाल्यार तातूंत सगळ्यांचेंच कल्याण आसा. म्हणजे धा जाणांखातीर,

लोकांखातीर तुवें एक बरें काम केलें असो ताचो अर्थ जातलो.

**बुद्धेश** : ह्या धा जाणांत, लोकांत तुमचो आस्पाव आसा न्हय?

**खडपैकार** : आसा तर! नाजाल्यार हो प्रस्ताव तुमचेमुखार हाडपाची आमकां कसली गरज?

**बुद्धेश** : खडपैकारा, नमनाखातीर अशें घडोभर तेल वारोवं नाका. तेलाची तुमकां गरज आसा. जाणां न्हय?

**खडपैकार** : हय. प्रस्तावाचें उलोवया.

(दोगूय एकामेकाक खुणा करतात. जळवे भायर वता. खडपैकार दारांत रावता. बुद्धेश अजापान ते कितें करतात तें पळयत रावता. थोड्या वेळान जळवे एका मनशाक घेवन भितर येता. हो डॉ. सत्ताराम. विरोधी पक्ष फुडारी. ताका पळोवन बुद्धेश बुचकळ्यांत पडटा.)

**खडपैकार** : (बुद्धेशाक वळख घडयत) हे डॉ. सत्ताराम. फुडले मुख्यमंत्री.

**जळवे** : सद्याचे विरोधी पक्षाचे फुडारी.

**खडपैकार** : (डॉ. सत्तारामाक) हे बुद्धेश बरड.

**सत्ताराम** : तुजेविशीं हांवें जायतें आयकलां. म्हणजे ह्या दोगांय म्हज्या इश्टांनी म्हाका सांगलां. तुमकां मेळपाची खूब इत्सा आसली.

**बुद्धेश** : हें पळयात, डॉ. सत्ताराम तसो हांव सामको सादो मनीस.

**सत्ताराम** : येदीं व्हडली कामां करपी मनशाक सादो मनीस कसो म्हणू येता? येदो व्हडलो मनीस म्हज्या मतदारसंघांत आसा म्हणल्यार म्हाका केदो अभिमान?

**बुद्धेश** : तुमचेसारखे मनीस आमचे प्रतिनिधी म्हणल्यार आमचें भाग्यूच.

**सत्ताराम** : वगीच म्हाका चण्याच्या झाडार चडोवं नाका. भाग्यबी म्हणटा तें विजयसिंगाफाटल्यान सोपलें. तो फाटलीं धा वर्सां मुख्यमंत्री

जावन असुदाय सत्ता भोगता.

बुद्धेश : तुमचेय दीस येतले.

सत्ताराम : म्हाकाय तशेंच दिसतालें. आमचेय दीस येतले. बरी चलताली ती प्रॅक्टीस सोडून राजकारणांत पडलो, पूण फुकट. पिडेस्तांची नाडी वळखप सोपें, पूण मतदारांची न्हय. मतदारांनी धा वर्सां आमकां विरोधी पक्षांत बसयलें.

जळवे : तशी डॉ. सत्तारामाची आनी विजयसिंगाची तुळा केल्यार दोळो फुटको लेगीत सांगतलो, ह्या प्रदेशाचो मुख्यमंत्री डॉ. सत्तारामूच जावपाक जाय.

खडपैकार : तशें पळोवपाक गेल्यार विजयसिंगाकडेन आशिल्ले सगळे गूण आनी अवगूण–

जळवे : गूण.

खडपैकार : हय. सगळे गूण. जितले विजयसिंगाकडेन आसात तितले– मूठभर चडूच, डॉ. सत्तारामाकडेन आसात.

सत्ताराम : ना तें भाग्य!

खडपैकार : हांव अशें म्हणटां, बुद्धेश बरडाक लागून हें भाग्य डॉ. सत्तारामाक फावो जालें अशें जावंदी.

बुद्धेश : पूण तांच्या भाग्याचो आनी म्हजो कसलो संबंद?

खडपैकार : ना कसो तर? जळवेच्या आनी खडपैकाराच्या भाग्याचो आनी तुजो संबंद जर आसा जायत जाल्या डॉ. सत्तारामाच्या भाग्याचो आनी तुजो संबंद आसपाकूच जाय.

जळवे : बुद्धेशबाब, कितेंय कर आनी विजयसिंगाचें सरकार वडय.

सत्ताराम : एकदा सरकार पडलें जाल्यार मागीर हांव आसाच. हांव सोपेपणी सरकार घडयतां.

बुद्धेश : पूण सरकार वडोवप म्हणजे?

सत्ताराम : तातूंत वायट धरपासारखें कांय ना. खरें म्हणल्यार हें सरकार केन्ना पडपाचें. आपलेवटेन एक लेगीत आमदार नासतना हो विजयसिंग राज्य करता. ताचेवटेन कितें आसा काय म्हल्यार

फक्त तागेलें भाग्य!

**बुद्धेश** : पूण नशिबाच्या म्हालवजार तो राज्य करता अशें म्हणप बरोबर जावचें ना.

**खडपैकार** : कित्याक जावचें ना? फाटल्या वर्साची गजाल. मीर्ग लागलो तरी पावस ना. बांयांक उदक ना, तळ्यांक ना, नळाक ना. पावसाचे रिकोर्ड काडून पळयल्यार फाटल्या वर्सा एकशें पंचवीस इंच पावस पडला जाल्यार हें उदक खंय गेलें? सरकारची जाग आसा? निमाणे विरोधी पक्षाचे वतीन विधानसभेचेर एक मोटो मोर्चा काडलो. आतां म्हटलें सरकार घडायचं करून पडटा. जाल्यार कितें? सगळ्यांचेरच उदक?

**बुद्धेश** : म्हणजे?

**खडपैकार** : म्हणजे कितें? विजयसिंगाचे नशीब बलवत्तर. त्याच दिसा सगळ्याक शिरंधारांनी पावस. पडट्या पावसांत उदकाची मागणी कितें करतले, कपल? मोर्चा भिजलो. विजयसिंगाचो सरकार सुको सणसणीत. मोर्चाचो चडानचड खर्च हांवें केल्लो.

**जळवे** : हांवें हातबोट लायिल्लें.

**खडपैकार** : आमी म्हणून उठसूठ खंयचे पैशे दितले?

**जळवे** : जे आशेन दिता ती आशा केन्नातरी पूर्ण जावपाक जाय न्हय?

**खडपैकार** : अशे धा धा वर्सां विरोधी पक्षाक पोसूं नज.

**सत्ताराम** : ह्या वर्सा तरी सरकार पडटलें अशें धरिल्लें.

**बुद्धेश** : कशें?

**सत्ताराम** : सरकारान जो नवो पूल बांदला त्या बांदकाम प्रकरणांत आकांत भ्रश्टाचार आसा. शिमीटाच्यो पोंतयो आनी लोखणाचे ट्रकांचे ट्रक भालयेभायर विजयसिंगाच्या मावोड्या पावल्यात. मुख्यमंत्री ते सुपरवायजरमेरेन सगळ्यांनी पैशे केल्या. खरें म्हणल्यार तो पूलच न्हय. तो बेश्टो सांगाडो. आमकां दिशिल्लें

तो उबो जावचे आदींच मोडटलो. पूण उद्घाटन जावन म्हयनोभर जालो. पाडपडिल्लो तस्सो आसा. विजयसिंगाचें नशीब. दुसरें कितें?

**बुद्धेश** : तो पूल मोडलो जाल्यार विजयसिंगाचें सरकार पडटलें?

**सत्ताराम** : पूल मोडलो जाल्यार विजयसिंगाचें न्हय तागेल्या बापायचें लेगीत आसल्यार सरकार पडटलें. न्हय, ताणे पडूंकच जाय. एक पूल म्हयन्यांभितर पडप म्हणजे कितें सादी गजाल? राष्ट्रीय न्हय, आंतरराष्ट्रीय स्वरूपाची खबर जातली ती.

**बुद्धेश** : (आत्मविश्वासान) तशें जाल्यार पूल मोडपाची जबाबदारी म्हजी.

**जळवे** : वा बुद्धेश! हांव जाणांच आसलों तूं कितेंतरी तकली लडयतलो म्हणून.

**खडपैकार** : शाब्बास. तुवें आमचें नांव राखलें.

**सत्ताराम** : पूण तुमी पूल कसो मोडटले?

**जळवे** : डॉ. सत्ताराम, तें तुमकां लागना.

**खडपैकार** : पूल मोडलो म्हणटकच जालें. सरकार वडोवपाचें आनी घडोवपाचें काम तुमी पळयात.

**सत्ताराम** : तें जालेंच. पूण मोडटलो कसो?

**जळवे** : तो फूंक मारून मोडूं नातर खोंटेन मोडूं.

**सत्ताराम** : तशें न्हय. विरोधी पक्षान पूल मोडलो अशें जावंक फावना.

**खडपैकार** : ना. तशें जावचें ना. पूल कसो मोडलो हें कोणाक कशेंच कळचें ना. न्हय बुद्धेशबाब?

**बुद्धेश** : बराबर.

**जळवे** : बुद्धेशाकडेन एक आगळोच मंत्र आसा. संवसारांत तो आनीक कोणाकडेन आसतसो दिसना.

**सत्ताराम** : पूल केन्ना मोडपाक शकता?

**बुद्धेश** : केन्नाय. आयज, फाल्यां.

**सत्ताराम** : फाल्यां शक्य आसा?

बुद्धेश : हय.

सत्ताराम : फाल्यांच मोडचो. फाल्या बरो मूर्त आसा. विजयसिंगाचो वाडदीस आनी आयतार. पुलाचेर लोकांची आनी वाहनांची रहदारीय उणी आसतली.

जळवे : लोकांक वाटोवपाची जतनाय बुद्धेश घेतलो.

सत्ताराम : म्हणटकूच! थारलें?

बुद्धेश : थारलें. तुमी तयारेक लागात.

सत्ताराम : तयारी कसली? म्हजें मंत्रीमंडळ पासून थारिल्लें आसा.

बुद्धेश : हांव ती तयारी म्हणना. पैशांची.

सत्ताराम : सांगात. तुमचो आंकडो कितलो तो सांगात. जळवे, खडपैकार – बुद्धेशबाब सांगतात तो आंकडो समजून घेयात. आतां कितें? सरकार पडटलेंच न्हय? तुमचो वेपार, तुमचीं कॉन्ट्रेक्टां, पयल्या फाराक जाग्यार घालूया.

(जळवे आनी खडपैकार नाईलाजान हयकार दितात.)

जळवे : सांगात, बुद्धेशबाब आंकडो सांगात.

बुद्धेश : वेवहार आयज जालो असो धरपाचो न्हय?

जळवे : हय, हय.

बुद्धेश : पन्नास.

खडपैकार : पन्नास कितें?

बुद्धेश : पन्नास लाख.

जळवे : पूल वडोवपाक पन्नास लाख?

बुद्धेश : मागीर कितें बांदपाक?

सत्ताराम : पूण पन्नास लाख म्हणजे चडूच जाले.

बुद्धेश : फाल्यां आमदार फोडून सरकार घडोवपाचें जाल्यार हाचेपरस चड पैशे लागचे नात?

सत्ताराम : लागतले तर.

जळवे : फाल्यां काम म्हणटकच पैशांची वेवस्था केन्ना करपाची?

बुद्धेश : काम जायनाबरोबर.

सत्ताराम : म्हणजे फाल्यांच! ऍडवान्स बी कांय ना?

बुद्धेश : ना.

सत्ताराम : एकूच विचारपाचें उरलें, बुद्धेशबाब, विचारतां म्हण रागार जावं नाका आं.

बुद्धेश : विचारात.

सत्ताराम : हो पूल फाल्यां पडटा म्हणजे पन्नास लाखांक सरकार वडयिल्लेभशेन जालें. फाल्यां कोणेय एक कोटी उबे केले जाल्यार म्हज्या सरकाराक धोको ना न्हय?

(डॉ. सत्ताराम, जळवे आनी खडपैकार एकमेकाक पळयतात. बुद्धेश तांकां जाप दिवपाचें ताळटा.)

(काळोख)

## देखाव – सात

(थळ – एक वेगळी सुवात. पुलाकडेन. बुद्धेश आनी नेत्रा दोगांच आसात.)

बुद्धेश : नेत्रा, अशें तिडकता कित्याक?

नेत्रा : म्हाका तुजो दुबाव येता.

बुद्धेश : कसलो दुबाव?

नेत्रा : तूं बरो मनीस न्हयसो दिसता. तूं म्हजें कांयच आयकना. आपलें तेंच खरें करता. नवें घर ना. तुजेकडेन पैशांची तुटपाण ना. हजारांनी दुडू आसात.

बुद्धेश : आतां हजारांचे लाख करूंया, मागीर हांव तुगेलें सगळें आयकतां.

नेत्रा : सगळें?

बुद्धेश : हय.

नेत्रा : (लाडांत येवन) तशें जाल्यार आमी घरा या.

बुद्धेश : घरा कित्याक?

नेत्रा : म्हाका शिरो करपाक जाय आनी तुका अपुरबायेन खावोवपाक जाय.

बुद्धेश : शिरो? शी. म्हाका शिरो आवडटा म्हण तुका कोणे सांगलें?

नेत्रा : अशें सांगलेबगर कशें कळटलें? शिरो आवडना जाल्यार भजीं करतां. पूण म्हाका आयज तुजी अपुरबाय करपाकूच जाय.

बुद्धेश : नेत्रा, खावपाचें कितें घेवन बसलां? शिरो आनी भजीं जाय जाल्यार वाटेर खंयच्याय हॉटेलांत वचून खावया. आतां हें मातशें कामाचें पळोवया मगो.

नेत्रा : कसलें काम? ग्रावंड पास करपाचे काय घरां तपासपाचीं?

बुद्धेश : तूं फकाणां बरीं करता मगो.

नेत्रा : तूं म्हजीं फकाणां करता. बरी तुजी बायल जाली म्हण म्हाका कशेंय वापरप?

बुद्धेश : कशेंय वापरप म्हणजे?

नेत्रा : म्हणजे कितें? तुकां जाय तेन्ना हावें तुजेबरोबर भायर सरप? भायर सरपाक कितेंतरी कारण आसपाक जाय न्हय ?

बुद्धेश : भोंवपाक, पासयेक वचपाक आनीक कसलीं कारणां लागतात? तुकां मगो नदरूच ना.

नेत्रा : कसली नदर?

बुद्धेश : भायर पळोवपाची.

नेत्रा : म्हाका बरी नदर आसा. म्हाकाय भायर भोंवपाक आवडटा, पूण सुण्याक धरून भोंवपाक व्हेल्लेभशेन न्हय. अशें दोरयेक बांदून व्हरपाचें, आसा तशें परत हाडून बांदपाचें.

बुद्धेश : तूं म्हण बरें कॉमीक आं. उलोवपाक लागतकूच कोणाक हार वचपाचें ना. खरें म्हळ्य'र ह्याच तुज्या सभावाचेर हांव खोशी जावन तुजेकडेन लग्न जालां. खरेंच नेत्रा, तूं उलयत राव.

नेत्रा : ना. तूं सांगता म्हण उलोवपाचें ना.

बुद्धेश : तशें जाल्यार उलोवं नाका. पळय.

नेत्रा : कितें पळोवं?

बुद्धेश : कितें म्हणजे? पळोवपासारखें कितें आसा? नेत्रा, तुज्या लक्षांत आयलां जाल्यार सांग.

नेत्रा : कितें?

बुद्धेश : आगो ह्या वाठारांत आमी पयलेच खेप आयल्यांत. पळय, काय बरी न्हंय व्हांवता. तसो हांव आदीं सद्दां सकाळी हे न्हंयचे देगेर येतालों.

नेत्रा : (दुबावान) कित्याक?

बुद्धेश : (लीपयत) गरोवपाक. नुस्ते गरोवपाक. कांय लागनाशिल्लें, तरीपूण येतालों.

नेत्रा : बेकार आशिल्लो दिसता.

बुद्धेश : बेकार म्हण न्हय गो. पूण ही न्हंय म्हाका आदींपासून आवडटा. थंयऽऽ आमी न्हाताले.

नेत्रा : त्या रेब्यांत?

बुद्धेश : आतां पुरोवन रेबो जाला. पयलीं थंय उदक पावतालें. हे न्हंयचें उदक काय बरें निळें निळें!

नेत्रा : सगळ्या न्हयांचें उदक निळेंच. तातूंत अप्रूप कितें?

बुद्धेश : पूण इतलें निळें न्हय आं. आनी व्हांवता तरी पळय कशें मात कित्याक आडखळनासताना.

नेत्रा : व्हांवूं.

बुद्धेश : नेत्रा, बाकिच्याय न्हंयांचें उदक अशेंच व्हांवता? म्हणजे अशें दोंगरावयल्यान समुद्रावटेन?

नेत्रा : ना.

बुद्धेश : (खुणो करून उरफाटें दाखयता.)

बुद्धेश : वा! पूण सगळ्याच न्हंयांचेर मदीं असलीं आडखळ नासता.

नेत्रा : कसली आडखळ?

बुद्धेश : अशी गो. हे न्हंयेचेर आसा तशी. (आडेच्या अजापाक) आगो, नेत्रा अजापाची गजाल. पळय.

नेत्रा : कसलें अजाप?

बुद्धेश : आगो, न्हयंचेर पूल बांदला पळय.

नेत्रा : तातूंत कसलें अजाप?

बुद्धेश : कसलें अजाप? आगो, हो पूल पयलीं हे न्हंयेचर नासलो.

नेत्रा : मागीर खंयचे न्हंयचेर आसलो?

बुद्धेश : न्हय गो. हो पूल हालीं बांदला. पळय कसो नवोताल्ल आसा. खरेंच नेत्रा हे न्हंयचेर हो पूल जातलो अशें हावें सपनांत लेगीत येवजूंक नासलें. आगो, पयलीं पलतडीं वचपाचें जाल्यार आमी पेंवून वताले. आतां पुलावयल्यान वचपाक मेळटलें. तुकां पुलावयल्यान वचपाक आवडटा?

नेत्रा : ना. व्हड्यांत बसून पलतडीं वचपाची मजा पुलावयल्यान वचपांत ना.

बुद्धेश : जांव, पूण तुकां पूल आवडलो काय ना तें सांग.

नेत्रा : तातूंत आवडपाचें कितें? पुलासारखो पूल.

बुद्धेश : हय गो. पूण सादो पूल न्हय. नवोताल्ल. पळय तरी. आतां बरो दिसता जाल्यार बरो म्हणपाक तुजें कितें सरता?

नेत्रा : पूण म्हाका तूं फोर्सार कित्याक करता तेंच समजना.

बुद्धेश : नेत्रा, तूं म्हजे इतलेंय आयकुचें ना?

नेत्रा : कितें?

बुद्धेश : म्हण न्हय, पूल सुंदर दिसता.

नेत्रा : पूण पुलांत सुंदर कितें आसा?

बुद्धेश : कितें म्हणजे? ते खांबे सुंदर न्हय? त्या खांब्याचेर आडवे घातल्यात ते स्पेन, वयलो रस्तो, कुशीचे लायटीचे खांबे सगळे सगळें कितलें सुंदर पळय.

नेत्रा : कांयच सुंदर ना. त्या पुलावयल्यान वचपाक सोड. पुलावयल्यान जीव लेगीत दिवपाक म्हाका आवडचेलें ना.

बुद्धेश : जीव दिवपाचें मागीर केन्नाय पळोवचें. पयलीं जेखातीर आयल्यांत तें काम करूंया.

नेत्रा : कित्याखातीर आयल्यांत?

बुद्धेश : त्या पुलाची तोखणाय करपाक.

नेत्रा : तूं कर तोखणाय. नाजाल्यार म्हण पोवाडे. म्हाका लागना.

बुद्धेश : लागना कशें तर? म्हज्या कामांत सहकार्य करतलें म्हण तुवें उतर दिवंक नासलें? म्हण न्हय,

नेत्रा : पूण बरो दिसनाशिल्ल्या पुलाक हांव बरो कित्याक म्हणटलें? बरो दिसपाक जाय जाल्यार ताका कितेंय सारोवन दवरपाचें न्हय?

बुद्धेश : (रागान) कितें सारोवन दवरपाचें? तेल?

नेत्रा : तेल?

बुद्धेश : हय. तेल लावन बरो गुळगुळीत केल्यार मागीर तूं म्हणटलें आसलें, काय बरो लिकलिकीत दिसता पळय पूल! असलो सुळसुळीत पूल हांवें केन्नाच पळोवंक ना. खरेंच सामको सुंदर! आनी मागीर जातलें आसलें.

नेत्रा : कितें जातलें आसलें?

बुद्धेश : कर्म!

नेत्रा : (रागान) बुद्धेश, म्हाका तुजो दुबाव येता. हांव तुकां कशेंच सोडचेंना. चल.

(ताका बळजबरीन व्हरता.)

(काळोख)

## देखाव – आठ

(बुद्धेश आनी नेत्रा झगडत घरांत येतात. बुद्धेश अपराधी भावनेन आसा.)

नेत्रा : हांव म्हणटां तुकां अशें धाडस जालेंच कशें?

बुद्धेश : सांगलें न्हय, ह्यानफुडें करचो ना.

नेत्रा : तूं जायतें करशी. पूण हांव घाळ रावपाक नाका? म्हाका फुडलो प्रश्न पडूंना. फाटलो. तुवें अशें केलेंच कशे? म्हजी आई बाबा तुजी कितली तोखणाय करता, तूं असो तूं तसो. तीं यात्रेकसान येतकूच तांकां कितें कितें सांगतलें म्हण राविल्लें हांव.

बुद्धेश : येवं दी तांकां.

नेत्रा : येनाबरोबर सगळें सांगतां तांकां.

बुद्धेश : नाका नेत्रा, तुकां म्हजो सोपूत आसा.

नेत्रा : सोपूत बी कांय ना. तूं म्हजो कोण न्हय. हांव तुजें कोण न्हय. हेचखातीर हावें नळकुटी मोखून तकलेक कोंक केल्ली आसून लेगीत तूं म्हजेकडेन लग्न जाल्लो?

बुद्धेश : ना गो नेत्रा, खऱ्यांनीच ना. तूं म्हाका खऱ्यांनीच आवडलें.

नेत्रा : फटकिरो. तुज्या एकाय उतराचेर म्हजो आतां कुस्कुटाचोय विश्वास ना.

बुद्धेश : नेत्रा म्हजें आयकून तरी घे.

नेत्रा : म्हाका कांयच आयकुपाचें ना. नदर लेगीत घालपाची ना

तुजेर. पयल्यान पयलीं ही खबर म्हाका आईबाबाच्या कानार घालपाक जाय.

बुद्धेश : पूण तीं लागीं ना न्हय? येतकच पळोवया.

नेत्रा : तीं केन्ना येतलीं तें तुका पडूंना. हें हें अशें सगळें करपाखातीर तांकां तीर्थयात्रेक धाडिल्लीं दिसता.

बुद्धेश : आतां वगीच तूं सुतावयल्यान सर्ग जोडपाचो यत्न करता. तशें कांय ना.

नेत्रा : म्हजो कुस्कूट विश्वास ना तुजेर.

बुद्धेश : चल, घरांत बसून वगीच किजिलां नाकात. अशींऽऽ पासयेक वचून येवंया.

नेत्रा : कित्याक? आनीक कितें तोडून मोडून वडोवपाचें आसा?

बुद्धेश : पळय, आतां सांगिल्ली गजाल तूं वांकड्यान घेता.

नेत्रा : घेवपीच. म्हाका निटायेर घालपाचो यत्न करूं नाका. तूं हांगासान गेल्यार लेगीत जाता. न्हय. वच तूं हांगासान.

बुद्धेश : तुका एकलें सोडून वचूं?

नेत्रा : हय. एकलें रावतां हांव. तूं वांगडा रावल्यार म्हाका अदीक भिरांत दिसतली. विखयाळ्या सोरपाबरोबर रावूं येता. तुजेबरोबर न्हय.

बुद्धेश : (समजायत) नेत्रा... नेत्रा...

नेत्रा : पयस राव. तुजो विखार नाका म्हाका. (रडत) आई गेऽऽ बाबा रेऽऽ तुमी आयलेबगर हांव उदकाचो घोंट घेवपी न्हय, अन्नाचो कण घेवपी न्हय.

बुद्धेस : आगो, पूण तीं येन्ना परतुपाचीं ना. आनीक दोन दीस तरी आसात.

नेत्रा : जावं. दोन दीस उपाशीं रावन हांव. आनी मदीं मेलें जाल्यार तुका हुस्को नाका. आनी एकूच सांगून दवरतां–

बुद्धेश : कितें?

नेत्रा : म्हज्या मड्याक लेगीत आफुडटलो न्हय.

बुद्धेश : (रागान) नेत्रा, तुजें आतां चड जालें.

नेत्रा : तापता कोणाचेर?

बुद्धेश : कोणाचेर म्हणजे? तुजेर. हांव घोव तुजो.

नेत्रा : न्हय, घोव न्हय. दुस्मान तूं म्हजो. सातां जल्माचो वैरी. (मारपाक आंगार झुडोवन वता. इतल्यान भायरसान देवदत्त, देविका आनी फाटोफाट नारायण आनी नर्मदा येतात. तांच्या हातांत बॅगां आनी सामान आसा. तीं प्रवासाक सावन परतल्यांत. तांकां पळयना बरोबर नेत्राक हुंडको येता. तें रडत आवय-बापाय म्हऱ्यांत वता. तांकां वेंग मारता. तीं ताका वेंगेंत काडटात.)

नेत्रा : आई, बाबा.

देवदत्त : हावें तुमकां सांगूंक नाशिल्लें, पोर आमचे यादीन जीव सोडटलें म्हणून.

नेत्रा : तुमी आयलीं, खूब बरें केलें.

देवदत्त : आगो, हे तुगेले आवयक तुजेबगर जाता? अशीं तशीं बद्रीकेश्वराक मात पावल्यांत. लागले परतुपाचे वेध. नेत्राचीं सपनां पडटात, हुस्को जाता, फोनार सारकें उलोवंक मेळूंना.

नारायण : आमी कितलें समजायलें, म्हणलें, हुस्को कसलो? काळजी घेवपाक जावंय आसा न्हय. आनी घर तरी परकी? आपलेंच घर. कितें भावोजी? बरे मूं?

नर्मदा : बरे म्हणून आनी विचारपाक जाय? राजा राणयेचो संवसार. (खोंचून) आमी इतले बेगीन परतलीं तें तांकां नाका आसतलें. पूण आमी तरी कितें करतलीं? ह्या शेजाऱ्यांक सोडून कशीं रावतलीं?

नारायण : वाटेर ती बस सोडली आनी बेगीन पावपाक जाय म्हणून दुसरी धरली.

नर्मदा : जांव! दोन दीस आदीं पावलीं. ही आनी आमगेली सून प्रतापाक घेवन आजून कुळारासान परतुपाची आसतली.

देवदत्त : कितें बुद्धेशबाब, तुमी काचाबूल कशे दिसातात.

नारायण : अकस्मात अशीं भितर सरिल्लीं पळोवन कोणूय काचाबूल जावपाचोच. न्हय बुद्धेशबाब?

बुद्धेश : ना, ना. तुमी आयल्यांत म्हण हांव काचाबूल जावंना. वयल्यान म्हाका आनंदूच जाला.

देविका : नेत्रा, अशें रडटा गो कितें?

नर्मदा : खूब दिसांनी आवयक पळयल्या न्हय गे?

नेत्रा : (सावचीत जावन) बाबा, आई आयज तुमी आयलीं तें बरें केलें. नारायणकाकाक आनी नर्मदाकाकीक हाडलें तेंवूय बरें केलें. कारण तुमी सगळीं म्हज्या लग्नाक साक्षी आशिल्लीं.

नारायण : साक्षी आसल्लीं म्हणजे? फक्त आमी चौगांच जाणां न्हय, भट, ब्राह्मण, अग्नीक साक्षी दवरून तुमी लग्न जाल्यांत.

नेत्रा : लग्न न्हय. तो एक वेवहार आशिल्लो.

देवदत्त : वेवहार? ना. वेवहार म्हणपाक आमी तुका विकूंक ना आनी तुज्या घोवानय तुकां विकतें घेवूंना.

नेत्रा : हांव ताका फुक्यासवाय पडलां ही गजाल खरी, पूण तुमी म्हजी किंमत सांगिल्ली जाल्यार लेगीत तो तुमकां ती फारीक करून म्हाका विकतें घेतलो आसलो.

नारायण : विकतें घेवपाक तुका कितें म्होंव वा भांगर लागूं नाशिल्लें. वगीच तुज्या घोवाक कित्याक दूशण दिता?

नर्मदा : वयल्यान तुवें ताचे उपकार मानपाक जाय.

नेत्रा : कित्याक?

नर्मदा : कित्याक म्हणजे? तुकां खबर नासत. जगलोकाक खबर आसा.

नेत्रा : म्हजी दीश्ट लागता.

देवदत्त : फट. तें सगळें फट. हांव दर एक गजाल फट म्हण सिद्ध करपाक तयार आसा. सगळी बोला फुलाक गांठ.

नेत्रा : म्हजी नदर लागून नारायणकाकाल्या पाडसावयलो दुदी

पडलो.

**देवदत्त** : पाडसावयलो दुदी केन्नातरी कोंसळपाचोच. ताका कितें वयर खुंट्याक बांदून घालूंक नासलो.

**नेत्रा** : नर्मदाकाकील्या नातवाक प्रतापाक म्हजी दीश्ट लागली.

**देवदत्त** : कसली दीश्ट? बुरशेपणां. एक हात तोंडांत जाल्यार एक हात मातयेंत.

(नर्मदा आनी नारायणाक मातशें वायट दिसता.)

**नेत्रा** : व्यंकटू शणैली म्हस वियेल्ली. म्हजी नदर लागून रेडूक मेलें.

**देवदत्त** : दर वर्सा अशेंच जाता. ते म्हशीक कसली तरी पीडा आसा. नेत्रा, खऱ्यांनीच सांगतां, दर एक गजाल हावें बुद्दीच्या कसाक लावन पळयल्या. सगळीं फकाणां. सगळो लोकांले नदरेचो दोश. एकदां एका मनशाचो दुबाव आयलो म्हणजे मागीर लोक सगळे दुबावाचें जाळें विणपाक तयार! (बुद्धेशाक) बुद्धेशबाब, खरे सांगात, तुमचो ह्या गजालीचेर विश्वास आसा?

**नेत्रा** : आसा तर. ताचो पूर्ण विश्वास आसा देखूनच तर तो म्हजेकडेन लग्न जाला.

**देवदत्त** : म्हणजे?

(फोनाची बेल वाजता. देवदत्त फोन घेवपाक वता. नेत्रा ताका आडायता. आपूण वचून फोन घेता.)

**नेत्रा** : हॅलोऽऽ हय. बुद्धेश बरड आसा. हांव तांगेली घरकान्न उलयतां. पूण कसलें काम आसल्यार प्रत्यक्ष म्हाका सांगल्यार जाता, कारण तांकां सांगिल्लें काम हांवूच करून दितां. हय. आमी तशीं खूब कामां केल्यांत. आमी कामांप्रमाण पैशेय खूब घेतात. सगळ्याकूच म्हारगाय जाल्या न्हय? तुमचें काम कसले? तुमचो दायजी? तुमचो दुस्मान? तांगेल्या भाटांतले माड वडोवपाचे? वडोवया. सगळें भाट भुंयभरवण करून वडोवया. ना, ना. माडांक तेल लावचें पडना. फकत खडप बी आसलें जाल्यारूच. कितले माड वडयले तेप्रमाण मागीर

हिशेब करूंया. तश्यो माडांच्यो दरो आजून थारावंक नात. बाकिच्यो थारायल्यात. बेश्ट्यो यादीक सांगतां, तुमकां नाका जाल्यार हेर कोणांकूय सांगपाक उपकारा पडटल्यो. व्हडलीं पाशाणा, खडपां बी फोडपाक एकूणचाळीस हजार रूपया, घराक–बंगल्याक उजो लावपाक एक लाख रुपया, पूल मोडपाक पन्नास लाख रुपया. (फोन दवरता.)

**देवदत्त** : नेत्रा, बुद्धेश हें तुमी कितें आडायलां? मोडतोडीचो हो कसलो धंदो?

**नेत्रा** : बीनभांडवली.

**देवदत्त** : म्हणजे?

**नेत्रा** : बाबा, तुमचो जांवय सादो मनीस न्हय. हातपांय हालयनासताना आपल्या पांयाकडेन दुडवांच्यो राशी रकोवपाचें तंत्र ताणे सोदून काडलां.

**बुद्धेश** : नेत्रा, पुरो कर न्हय.

**नेत्रा** : पुरो कर न्हय? आतांच तर आरंभ जाला. म्हजी दीश्ट लागता म्हण तुमी म्हाका फाटीं फाटीं ओडपाचो यत्न केलो पूण त्याच बुद्धेशान म्हजे नदरेचो काय बरो उपेग करून घेतलो! बाँब बी तयार करपी मनशाचे बुद्धीकडेन बुद्धेशाचे तकलेची सर करूंक जायत.

**नारायण** : म्हणजे?

**नेत्रा** : म्हणजे कितें? म्हजे दिश्टीचो वापर करून ताणे खडपैकारातलें खडप फोडलें. जळव्यालो बंगलो लासलो. पूल मोडपाचो. पूण म्हजेंच पाडा पडलें. म्हाकाच तो पूल आवडलो ना.

**देवदत्त** : खडपैकारातल्या खडपाची आनी जळवाल्या बंगल्याची गजाल हावें वाटेंत पेपराचेर वाचिल्ली. नारायणबाब, तुकां दाखोवंक नाशिल्ली वाचून? अर्थात तुमची कोणाचीं नांवां नाशिल्लीं. पूण अशें कितें आसत अशें चिंतूंक नाशिल्लें.

**नेत्रा** : असलें चिंतप कोणालेय तकलेचें काम न्हय.

देवदत्त : पूण दोनय घडणुकांची कारणां म्हाका खबर आसात. आगो, एकाच वेळार पंचवीस मानाय नव्या दमान आपापले घण त्या खडपाचेर आदळटात जाल्यार खडपाचो पिठो जायना जाल्यार आनीक कितें जातलें? बरें पाशाण जालें म्हण? आनी जळव्याच्या बंगल्याचें काम म्हणल्यार सवाय खाण पोटफुगें. अर्दमोलाक मेळटा म्हण बंगल्यांत लायटिची फिटींग कशायकशी करून घेतिल्ली तें सगळ्यांक खबर आसा. शॉर्ट सर्कीट जालें आनी बंगल्यान पेट घेतलो. आगो, सगळी बोलाफुलाक गांठ! तूं फकत निमित्ताक कारण.

नेत्रा : आयजवेर जायत्या दादल्यांनी आपल्या बायलांचो गैरवापर केला. कोणे बायलेक घरांत वावराडी केल्या, संवसार चलयला. कोणे बायलेक गल्ल्यार बसयल्या, धंदो केला. कोणे बायलेक भाड्याक घातल्या आनी पैशे केल्यात. सगळीं उणाक कामां. पूण तुवें तुजे बायलेचो केल्लो वापर हेपरसूय उणाक आसा.

बुद्धेश : नेत्रा!

नेत्रा : पूण एक गजाल मानपाकूच जाय. खरेंच बुद्धेश. वा! कितें तुजी तकली!

(बुद्धेशाक सगळें असह्य जाता. ताची तकली गरगरपाक लागता. दोनूय हातांनी तकली आवळून तो हांगा–थंय झेलपाटे मारता.)

नर्मदा : (दुबावान) आगे म्हजे बाये! हाचे तकलेक कितेंय जालें ना मू?

देवदत्त : घडलां तें सगळें सगळें सोसपाभायलें आसा.

नेत्रा : तरी बरें पूल पडलो ना!

(इतल्यान भायरसान डॉ. सत्ताराम येता. तो उमेदींत आसा.)

सत्ताराम : बुद्धेशबाब, बुद्धेशबाबऽऽ

(सगळ्यांक पळोवन अजापता.) बुद्धेशबाब आसात घरांत?

देवदत्त : आं? हय. हय.

सत्ताराम : तुमकां सगळ्यांक पळोवन हांव मातसो गडबडलों. आनी खोशयेंतूय आसा न्हय? बुद्धेशबाब खंय?

देवदत्त : (बोट दाखयता.)

नारायण : ताचे तकलेचेर मातसो पेज आयला.

सत्ताराम : असल्या कुस्तारांतल्या कुस्तार कामांची जापसालदारकी घेवपाची म्हणजे तकलेर पेज येवंकूच जाय. पूण पळयात आं, ही खबर आयकनाफुडें तकलेवयलो पेज वचून तकली फूल कशी ल्हव जातली.

देवदत्त : कसली खबर?

सत्ताराम : पूल मोडलो. बुद्धेशान आपलें उतर खरें केलें.
(बुद्धेशाक आनीक धक्को बसता.)

नेत्रा : ना. शक्य ना. हावें काय पुलाक सुंदर म्हणूक ना. म्हजी दीश्ट लागलेबगर पूल मोडटलोच कसो?

सत्ताराम : दिश्टीन पूल मोडटा? (बुद्धेशाक) बुद्धेशबाब, ही तुगेली घरकान्न दिसता. तकलेन सारकी आसा मरे ती?

देविका : म्हाका ही लक्षणां बऱ्याचीं दिसनात. निमाणे हांव वाटभर चिंतून आयलां तेंच खरें. चल नर्मदाव्हनी. म्हजेबरोबर भितर चल.
(देविका आनी नर्मदा भितर वतात.)

नारायण : (सत्तारामाक) तुमी डॉक्टर सत्ताराम न्हय? विरोधीपक्ष फुडारी. तुमी सांगता ती गजाल खरी?

सत्ताराम : पुलाची न्हय? हावें म्हज्या दोळ्यांनी पळयला न्हय. पळयला म्हणजे आयज सकाळधरयां पळयतूच आशिल्लों. आरे, पूल मोडचो तरी कसो? पोंदच्यान बार्जी ना, वयल्यान गाडयो ना. वारें ना, वादळ ना. इस्पिकांच्या पानांचो बंगलो कसो कोंसळ्ळो. म्हजेलागीं फोटो आनी विडियो शूटींग आसा न्हय. आतां विजयसिंगाक दाखयतां. आरे, ह्या प्रदेशांतलो अपुरबायेचो पयलो वयलो म्हणटा तसो पूल, एका म्हयन्याभितर

पडप म्हणजे कितें? सगळी बुद्धेशाचे तकलेची करामत.

**देवदत्त** : न्हय, सगळी भ्रश्टाचाराची करामत. त्या पुलाविशीं आमी थोडें वाचूंना. आमी बद्रिकेश्वराक गेल्ली. थंयच्या त्या पेपरांनी लेगीत पुलाच्या भ्रश्टाचाराची म्हायती छापून आयल्या. पेपर जाय जाल्यार आसात म्हजेकडेन. पुलाचो भायलो सांगाडो मूळ डिजायनाप्रमाण घडयला. भितर कितें? शिमीट, रेंव आनी खडयेचें प्रमाण सारखें ना. रेंव आनी खडीच ओतल्या. वयल्यान थोडे शिमीट फाफुडलां. मिठाभशेन. जाय तितले लोखणूय घालूंना. सुपरविजन म्हणटा तें वेवस्थीत दोळे धापून केलां. ही कसली करामत?

**सत्ताराम** : भ्रश्टाचार आसाच. भ्रष्टाचार विजयसिंगाच्या राज्यांत ना जाल्यार आनीक कोणाच्या राज्यांत आसतलो? डॉक्टर सत्तारामाच्या? पूण बुद्धेशाचें क्रेडीट ताका दिवपाकूच जाय. (इतल्यान भायरसावन जळवे आनी खडपैकार येतात. दोगूय खोशी जाल्यात.)

**जळवे** : (खडपैकाराक) हांवें तुमकां सांगूंक नासलें, डॉ. सत्ताराम हांगाच पावतलो म्हण.

**सत्ताराम** : आरे, हो पूल जर देवान वडयिल्लो जाल्यार हांव देवाच्या पांयाकडेन आसपाचों. तो देवमशनान वडयला देखून सगळ्यान पयलीं हांव हांगा आयलां.

**खडपैकार** : पूण आतां तुमकां हांगा चड वेळ बसपाक मेळचें ना.

**सत्ताराम** : हो वेळ बसपाचो न्हय. म्हाका खबर आसा.

**खडपैकार** : ते खातीर म्हणना. डॉ. सत्ताराम, तुमकां आत्तां सरकार घडोवपाक जाय.

**सत्ताराम** : हांव जाणां. पूण आदीं विजयसिंगाचे सरकार वडोवपाक जाय.

**जळवे** : तें वडोवपाचें उरूंक ना.

**सत्ताराम** : म्हणजे?

**जळवे** : म्हणजे कितें? पूल पडनाफुडें विजयसिंगान राजिनामो दिलो.

**सत्ताराम** : खरेंच?

**खडपैकार** : आरे, वाडदिसाची पार्टी चलताली. केक कापचेपयलींच राजिनामो दिवचो पडलो.

**जळवे** : विजयसिंगाचो वाडदीस आतां आमी मनोवया.

**सत्ताराम** : हांव आतांच वचून राज्यपालांक मेळटां. सरकार घडोवपाक तयार आसां म्हण तांकां सांगतां. बुद्धेशबाब, आमच्या सरकाराचेर तुमचे आशिर्वाद आसचे.

(बुद्धेश अकस्मात हात मुखार करता. तो नॉर्मल ना.)

**बुद्धेश** : म्हजे पैशे?

**सत्ताराम** : दिवया. ते फारीक केलेबगर हांव मुख्यमंत्रीपदाचो सोपूत घेवपी न्हय.

**खडपैकार** : आमी वेवस्था केल्या.

**जळवे** : (बॅग उक्तें करून) बुद्धेशबाब, तुमी सांगिल्लेप्रमाण पन्नास लाख रुपया.

**नारायण** : पन्नास लाख?

**बुद्धेश** : पन्नास लाख? तुमी कोणांक फटयतात?

**जळवे** : न्हय. आदीं पन्नास लाखूच थरिल्ले. देवाचो सोपूत! आमच्या तिगांय हुजीर बोली जाल्या. (नेत्रा, देवदत्त आनी नारायणाक) खऱ्यांनीच सांगतां, इतलेंच थरिल्ले. फक्त पन्नास लाख. बुद्धेशबाब, तूं असो बासत म्हण खबर नाशिल्लें. पन्नास लाख रुपयांचेंच उत्तर जाल्लें.

**बुद्धेश** : पन्नास लाख रुपया न्हय.

**जळवे** : मागीर?

**बुद्धेश** : पन्नास पैशे.

**नारायण** : पन्नास पैशे?

(नेत्रा बुद्धेशाची अवतिकाय पळयता आनी भितर वता.)

**बुद्धेश** : हय, पन्नास पैशे. एक पैसो उणो ना. एक पैसो चड ना. पन्नास

पैशे फारीक करात आनी मागीरूच हांगाच्यान भायर सरात. नाजाल्यार भायर सरूंक मेळचें ना.

(दारार रावन तांची वाट आडायता)

**सत्ताराम** : (आपलीं बोल्सां सांसपीत) आतां पन्नास पैशे खंयच्च्यान हाडपाचे? (देवदत्ताक आनी नारायणाक) तुमचेकडेन मोडबी आसा?

(ते बोल्सां सासपून ना म्हण सांगतात.)

(खडपैकार आनी जळवेक) तुमी आयजवेर इतल्या पैशांची वेवस्था केली आतां ह्या पन्नास पैशांचीय वेवस्था तुमकांच करची पडटली.

**खडपैकार** : हांव भायर वचून वेवस्था करून येतां.

**बुद्धेस** : (आडायत) खबरदार खडपैकार. म्हजें देणे बुडोवन पळून वचूंक सोदता?

**जळवे** : रावात आं. पसऱ्यार येवपी भिकाऱ्यांखातीर हांव केन्नाय मोड बोल्सांत काडून दवरतां. मेळटा जाल्यार पळोवया. (देवाची प्रार्थना करून बोल्सां सासपिता. तातूंत ताका एक एक नाणे मेळटा तशी सत्ताराम, खडपैकार हांच्या तोंडार उमेद पातळटा. निमाणे पन्नास पैशांची भर जाता.)

**जळवे** : पन्नास!

**बुद्धेश** : (झोपय मारून पैशे घेत) पन्नास पैशे! संवसारांतलो सगळ्यांत गिरेस्त मनीस हांव! (हांसता.)

**सत्ताराम** : (खडपैकार आनी जळवेक) जें घडटा तें बऱ्याखातीर अशें म्हणटात तें फट न्हय. आतां म्हजी भिरांत गेली. म्हज्या सरकाराक आतां बुद्धेशाचे तकलेपासून धोको ना.

(बुद्धेश पन्नास पैशे घेवन पिशेपणा करता, तेन्नाच सत्ताराम, खडपैकार आनी जळवे फाटल्या पांयांनी ल्हवू ल्हवू कूस मारतात. कांयवेळान भितरसान नेत्रा, देविका आनी नर्मदाव्हनी येतात. तीं दोगांय नेत्राच्या फाटल्यान लागल्यांत.)

देविका : नेत्रा, अशें लागीं यो म्हणलें न्हय.

नर्मदा : हाताक गावता जाल्यार पळय तें.

देविका : नेत्रा, भितर यो म्हणलें न्हय.

नेत्रा : ना, ना.

देवदत्त : तुमचें आनी कितें जालां?

नर्मदा : लोखणाचो वारांव चुलींत घालून तापयला. बरो रसरसता! मागीर न्हिवतलो.

नारायण : येवचे येवन हें आनी कितें केलें?

देविका : आतां हो निमाणो उपाय. (नेत्राक) तुजे पाडे दिश्टीक लागून सगळी विदर्णा जाली. ती एकदांची सोपोवया.

नर्मदा : तुज्या उक्त्या दोळ्यांनी तुवें तो रसरस पळोवपाचो. तुज्या दोळ्यांच्यो मुंडळ्यो एकदां उरफाट्यो जाल्यो म्हणटकूच मागीर केन्नाच तुजी दीश्टबाधा जावची ना.

देविका : निमाणे हो एकूच उपाय उरिल्लो. चल भितर.

नेत्रा : ना. दीश्ट ही म्हजी दौलत. हांव ती अशें वगडावचें ना.

नर्मदा : मागीर कितें करतलें ती दौलत घेवन?

नेत्रा : अभिमानान मिरयतलें. आनी जिरयतलें - नश्य्या! पाड्यांचो मद! जाणी लोकांक नागोवन बिल्डींगो उबारल्यात त्यो जमनीभरवण करतलें-दीश्ट लावन. जाणी दुसऱ्यांक पिळून वैभव पुंजायलां, तें लासून गोबोर करतलें - दीश्ट लावन. म्हजे दिश्टींत बाधा आसत जाल्यार आसूं दीं. जेन्ना बुद्धेशासाके मनीस बुद्धीभ्रश्ट जातात तेन्ना तांकां दिश्ट लावन अशे लुळे पांगळे करतलें.

देवदत्त : तुजे इत्सेची तोखणाय करीत तितली थोडी. पूण तशें कांय ना पोरा. अदृश्ट, दैव, नशीब कांय खरें न्हय. सगळी मनशाची करणी. बुद्धेशाक आपले करणेचो पश्चाताप जाला. ताका लागून तो थतर-वितर जाला. (देविकेक) देविका, तूं तुजो हो अनाडीपणाचो खेळ बंद कर. नेत्राची दीश्ट लागना हें सिद्ध

जालें न्हय? नेत्रान कांयच म्हणनासताना पूल मोडलो काय ना? आनीक वेगळी कसली कसवटी जाय?

**नारायण** : (नर्मदाक) चल, भितर त्या तापिल्ल्या वारांवाचेर उदक घाल.

**बुद्धेश** : (भानार येत) नाका. आसूं दी तो तसोच. म्हजेखातीर.

**नारायण** : तुजेखातीर?

**बुद्धेश** : हय, हांव म्हज्या दोळ्यांच्यो मुंडळ्यो चांचावन, हुल्पावन वडयतां. जे दिश्टींत हावें दुश्ट सपनां पळयलीं, ती नदरूच सासणाची पालोवन वडयतां.

**देवदत्त** : (समजायत) पश्चातापान तूं शाणो जाला. आतां अशीं पिशेपणां करूं नाका. (नेत्राक) बाय नेत्रा उपाय घेतल्यार माथ्याची कोंक पेखता, मनार घेतल्यार काळजाक जाल्ली कोंकूय पेखूं येता.

**नेत्रा** : (लागीं वचत) बुद्या, तुज्या दोळ्यांच्यो वाती पालोवपाक सोदता? मागीर तुज्या नेत्राक खंयच्या दोळ्यांनी पळयतलो? (बुद्धेश खालतेपणान मान सकयल घालता. सगळीं खोशी जातात. भायर फोगोट्यांचो आवाज जाता.)

**नर्मदा** : पूल कोसंळ्ळो म्हण फोगोट्यो आसतल्यो.

**नारायण** : ना, सरकार पडलें म्हण आसतल्यो.

**देविका** : कितेंय पडूं नातर मोडूं, म्हजे धुवेचो संवसार उबो जालो. (भायरसान मिरवणुकेचो आवाज. रोमट.)

(सोंपता.)

## अपुरबाय चित्र, वळवय निर्मित –
## 'दिश्टदौलत' (1995)...



कलाकार : ज्योती कुंकळकार, हेरंब देसाय आनी सतीश गवस.





कलाकार : अशोक कांदोळकार आनी ज्योती कुंकळकार.



दीश्ट लागप आनी तिवूय चलयेमनशेची हे वदंतेचेर कितलीं कंवळी-तन्नीं जिवितां हुल्पून गेल्यांत. असल्यो वदंता जनमानसांत खडपावरी फतकल मारून बसल्यात. तांकां विचारांचो सुरींग लावन फोडपाक जाय.

'दीश्ट लागना' हे विज्ञानिक सत प्रामाणिकपणान आनी प्रभावीपणान सांगपाचो यत्न ह्या नाटकावरवीं नाटककार करता.




ISBN 81-86488-90-1